**Kanadi Mati, Konkani Kavi,** *is an anthology of Konkani poems composed by Konkani poets of Karnataka, edited by Pratap Naik, S. J. and published by Marg Prakashan, Pune ( India )*

*25 December, 1984*



२५ डिसेंबर १९८४.

मोल १५ रुपया

अुजवाडावपी :
मार्ग प्रकाशन
स्टीफन्स निवास
२२०८ संत विन्सेण्ट मार्ग
पुणे–४११००१

छापपी :
दिलीप माजगावकर
साप्ताहीक मुद्रण
१०२५ सदाशीव पेठ
पुणे–४११०३०

चित्र : बाबू अुडुपी

कर्नाटकांतलो कोंकणी कवी राय

देवाधीन लुवीस मस्करेन्हस (१८८७-१९६१)

हांच्या अमर उगडासाक

**कानडी माती कोंकणी कवी**

# आमचे तुमचे मधें

कर्नाटकांतल्ये कानडी मात्येंत जल्मून कोंकणी कविता रचपी कवी कांय अुणे नांत. पूण तांच्यो कविता कानडी लिपींत लिपून आसल्ल्यान तांची ओळख आनी रूच सर्व कोंकणी कविता रसिकांक मेळना. ही अडचण पैस करपाक **राखणो** पत्राच्या सहकारान, मार्ग प्रकाशनान, कानडी लिपींत कोंकणी कविता बरोवपी कविंच्यो कविता देवनागरी लिपींत लिप्यांतर करून, पुस्तका रुपार हाडच्या वावराक हात घालो. कविंनी आपल्यो पांच अुंचल्यो कविता **राखणो** कचेरीक धाडून दिवपाक **राखणो** आनी **पंचकादायी** कोंकणी पत्रांचेर आमी विनंती केल्ली. पूण आमच्या अुल्याक आमी आशेल्लो तितलो सहकार आमकां लाभलो ना. ह्या बद्दल आमकां खंत आसा पूण कोणाचेरूय राग ना. निराशेच्या काळोखांत आशेची वात पेटोवन आमी फुडें पावलां मारलीं.

ज्या कविंनी आमकां क़विता धाडून दिल्यो तांच्यो आनी देवाधीन जाल्ल्या कर्नाटकांतल्या तेग कविंच्यो कविता **कानडी माती कोंकणी कवी** पुस्तकांत संपादीत केल्यात. हो कविता संग्रह कानडी लिपींत कोंकणी कविता रचपी कविंचो काव्य प्रतिनिधी जांवक पावलो ना हें आमी मांदून घेतांव. आमचे समोर दूसरी वाट नासल्ल्यान हातीं घेतल्लें योजन शेवटाक पावोंवक आमी निर्धार केलो.

कविंची मटव्यान ओळख आनी तांचो पत्तो आमी पुस्तकांत दिल्लो आसा. कर्नाटकांतल्ये कोंकणींत कानडी, तुळू भासांचे शब्द आयल्ले आसात. कोंकणी मात्येंत मिसळून ते कोंकणे जाल्यात. त्या शब्दांचो आनी हेर कठीण शब्दांचो संग्रह आनी अर्थ आमी दिला. कविता रसिकांक तो अुपकारतलो म्हण आमी आशा धरतांव.

आमच्या वावरांत आमकां मजत केल्ल्या फा. मार्क वाल्डर (**राखणो** संपादक); फा. विशेंत वी. मिनेजस (**राखणो** अुप-संपादक); श्री. बी. वी. बाळिगा (**पंचकादायी** संपादक); देवाधीन फा. पौल बोतेल्हो, हांच्यो कविता छापूंक परवानगी दिल्या जेरोसा कंपनी, मंगळूर; पुस्तक छापूंक पैशांचो आधार दिल्ल्या फा. मेथ्यू लेदर्ले, जे. स.; चित्र काडल्ल्या श्री. बाबू अुडुपी; पुस्तक नाजुकायेन छापून दिल्ल्या साप्ताहीक मुद्रण हांकां आमी हात जोडून देव बरें करूं म्हणतांव.

# मांडावळ

## स्टेन अगेरा

### अुजवाड

अुजवाडाक आपलें हातेर जावन
जळच्या दिव्याची
सकत नेणासतना
नाच मारच्ये
वेदिचेर
अेकाच फरा
दिवो पालवतना
काळोख, अंधकार
आतां
अुजवाडा खातीर
मारतना अुलो
जाणा जावन
अुजवाडाच्ये सक्तिचें महत्त्व
तरी...
वेळ अुतराल्लो...

## म्हज्या अुगडासांत

म्हज्या अुगडासाच्या
पडद्याचेर
नाच मारचें
तें पितूर
म्हज्ये जिण्येचें
पाटल्या वरसांनी
भोगल्ल्ये आनी आधारल्ल्ये
संगतिचें
सत आनी साक्ष
म्हज्या ह्या
जिवाचें
पूण
घडसा नासल्ले गांच
करतात त्या पितुराक
अधुरें !

**मोडां**

शांत ह्व्यांत
क्रूर काळोख
काळजांत
भें, तळमळे
त्याच क्षणा
अुठोन आयलो रवी
तांबड्या किरणां संगी
वोतून अुजवाड
पूण सरलीं काळीं ल्हारां
पितरावन मोडाचीं जाळां
लिपलो रवी
अुजवाड आशेल्ल्या मनशांक
असहायकता, निराशा
आशा रावळेरां
क्षणा भितर
धूळ जाल्लीं !

## धग

अुज्या परी
शिजोंवच्या;
सुव्ये परी
तोपच्च्या
वतांत शिरकोन
करपतां हांव
म्हज्या
चिंतनांत
सब्दांत
आनी करनेंत...
हाय
केदळा मेळत
सुटका
हांवें मारची
बोब आवाजा विणे
त्ये भिकर धगींत
विलीन जाता.

## काळोख

कितें जालां म्हाका
दोळे आसोन
अुघडतना दोळे
शुन्य...
काळजांत
भें, धडधडे
कळवळचांनी
सोधलें हांवें
तरी
त्ये मौन भ्रमितेंत
म्हज्या दोळचां सामकार
हांवूंच कुड्डो
म्हण जाणा जावन
विचारलें हांवें
म्हाकाच
" कितें जालां म्हाका ?"

# देवाधीन फा. पौल लुवीस बोतेल्हो

## वस्तूर सुकोंवची ती दोरी

वस्तूर सुकोंवची हांव दोरी
पावसाक भिजतां वताक सुकतां
अेका माडा थावन अन्येकाक
वोडी–तांडीन हांव अुमकळतां.

कारभार म्हजें चोयतात जाल्यार
अुंबळपा दिसा येया आमगेर
कापडां, पुडवीं, शर्टां, घागरे
कलसांव, आंगलीं धलतात म्हजेर.

अुदकाची शेळ आसता पर्यंत
जडायेन तीं भर्मिष्ट रावतात
वारें मारतच, शेळ बी सुकोन
अुडक्यो मारूंक सुरू करतात.

गंजिप्राक तें कितें नाचता
फुगलें म्हणोन पोट आंगल्याचें !
कलसांव दोनी पांय फापुडता
धुळींत लोळता पोंत पुडव्याचें.

खोमसाचे हात मारतात म्हाका
कापडा पालव ते मार पुसता
घागरो म्हाका खोटायतना
सिल्काचो ब्लौज ताळियो पेटता !

मनीस सबार वस्त्रां नेसतात
थोडीं भायल्यान, थोडीं भितर
म्हज्या आंगार दाक्षेण नासतां
अुगतीं सुकयतात सरासर.

कुटंब दुडवादीक तर जालें
वस्त्रां तांचीं सांगतात म्हाका
घराणे कांय भिकेक पावलें
म्हजे लागीं घूट ना ताका.

घरांत कितलीं भुरगीं आसात
संखो या प्राय जायगी तुमकां ?
ल्हाना–व्हडांक चल्यां–चलियांक
हर अेकल्याक हांव जाणां तांकां.

कोण जलमालो, या कोण मेलो
तक्षण म्हाका मेळता खबर
व्होवळीक म्हाका ना जाल्यारी
पारखितां हांव आसल्यार काजार.

अितल्यार पुरो कथा म्हजी
आसा तशी सांगल्या खरी
न्हेसणाक तुमच्या राखोन रावतां
वस्तूर सुकोंवची हांव दोरी.

## धा वरसांची चली

धा वरसांचें चेडूं मिल्याण
चलता वाट मार्गाची
बगलेक आपल्ये घट कर्न धरल्या
अरधी बोतल सोऱ्याची.

पाटीं परतून पळेतना
कसलो आकांत ताचो
पैस थावन पाटल्यान येंवचो दिसलो
अेकलो पोलिसांचो.

मारग सोडून तर आड वाट धरली
पोलीस दुबावतलो
मार्गान सिदा धांवलें जाल्यार
घडचेन पाट धरतलो.

हिकमत पुरती चितच्या भितर
सोज माम आयलो वेगीं
"बोत्लींत कितें गो तें बाये ?"
म्हळें चेडवा लागीं.

" म्हजी मांय कांय बरी ना " म्हण
चेडवान सुस्कार्न सांगलें
" देखून हांवें वयजा गेलें
तिका वखत हाडलें. "

वखताचो घूट मामाक कळ्ळो
चेडवा संगीच चल्लो
ताच्ये आवय बापूय विष्यांत
तपशील विच्चार लागलो.

तें कांय धांवत म्हण सोज मामान
अेक बुदवंतकाय केली
आपल्या हातांत आसल्ली कोंबी
चेडवा लागीं दिली.

आतांच मार्गार नंबर करूंक
साक्ष नांत हांगा कोणी
अप्पणाच्या हॉटला बागलार
मेळतले कोण पुणी.

हॉटेल आयलें भितर रिगलीं
बसला थंय लोक सबार
पोलीस सिंगल काफी काणघेवन
पियेंवक बसलो बांकार.

चेडवान पळेसर पळेलें
सट करून मुखार सरलें
कोंबी बोतल मेजार दवरून
अशें म्हणूंक लागलें.

" धर ही तुजी कोंबी मामा
काणघे बोतल तुजी
वेळ कर्न घरा वचन जाल्यार
मांय मरतेलीच म्हजी ".

अितलें, सांगोन, चेडूं चल्लेंच
पोलीस फटवोन पडलो
साक्षां मुखार कोंबी, सोरो
कोणाचो म्हण जालो ?

## मोर्नी घरा भुजोंवक गेलो

मोर्नी घरच्यांक भुजोंवक वेची
रिवाज ती भोव बरी
आमच्या गांवांत चलोन आयल्या
क्रिस्तांव चाल ही खरी.

वाडयाचो हांव गुरकार देखून
तें काम हांवेंच करचें
घरच्यांक विचणार अुतरां सांगून
तांचीं दुखां पुसचें.

व्हड व्हड शिकप या जांटिकाय
चडताव हांव शिकोंक ना
जाणाऱ्यांनी भुजवण दिंवची
म्हाका ती कांय येना.

पुत्तू मामान थोडीं अुतरां
म्हाका शिकोवन दिल्लीं
खंचाय मोर्नी घरा गेल्यार
तितलींच अुतरां सांगलीं.

आप्पू लुद्रीग मेल्या अुप्रांत
तांगेर अेक भेट दिली
जमो जाल्ल्या सयऱ्यां मुखार
पुताक भुजवण सांगली.

" सरलो तरी बापूय तुमचो
आमचेंय काळीज रडता
वाड्याक खऱ्या बापूय सारखो
अंतरलो म्हण भोगता. "

मिल्याणामी मेली म्हणतच्च
धुवांक भुजोंवक गेलों
बायपाठ हांवें केल्लीं अुतरां
तांकांय सांगूंक लागलों.

" तुमची आनी आमचीय आवय
आमकां सांडून गेली
समेस्तांची मोगाळ आवय
वाड्याक अंतरली. "

तिसऱ्या घरा गेल्ल्याक म्हाका
तोणक्यांनी वाजयलो
बायलेक रडच्या दुखेस्त दादल्याक
ह्या थरान भुजयलो.

" गुणेस्त शेगुणी बायल बावडी
न्हय तुजी अेकल्याची
सक्कडांक आमकां बायल जावन आसल्ली
बायल सगळ्याच वाड्याची. "

## दादल्याची कडी कशी करची ?

रांदपाचे बूक सबार आसात
कडियो, परात ते आटापतात
दादल्याक कडी करच्या विष्यांत
अेकी अुतर ते सांगनांत.

अिजिदोर कुवेलीन केल्लो
" रांदपी " बूक हांवें वाचलो
मेळना तांतूं खंचाच पानार
दादल्याच्ये कडचेचो सांबार.

बायलांनो तर कान नीट करा
हांवें सांगचें मतींत व्हरा
रीत घरकाराक बूद शिकोंवची
कशी ताची कडी करची.

व्हड अेक कोंपरो हाड सांतेचो
दादलो सगळोच तांतूं सोंबचो
भायर भितरी परिक्षा कर्न
आवाज पारखी चिरपुटां मार्न.

मजबूत जायजय कोंपरो तुजो
कसलेच अूण आसोंक नजो
सुवेंतलो तर बुराक आसात
सगळो कोंपरोच कोसळोन वचत.

कोंपऱ्याचें नांव कसलें सुवास
" काजारी भेसाचो विश्वास "
जतनेन अुकलन रांदणीर दवर
दादल्याक सगळोच तांतू तूं भर.

वैर मेल वोत मयामोगाचें
तूप भरशी सोसणिकायेचें
जांटिकायेचें मीठ घालशी
कडी भोवच रूचीक करशी.

निस्कळपण, भक्तिपण तुजें
कडचे सुवादाक गरजेचें
घाल्यार ही पूड परमळाची
गर्ज ना गरम मसाल्याची.

काडून कुडको तुज्ये जिबेचो
कर अिल्लोसो कोचोर ताचो
कोंपऱ्यांत तो घालून चाळशी जाल्यार
कडचेक चडतेली रूच सबार.

फुंकून पेटय मोगा—अुजो
धगाक शिजोंदी घोव तुजो
जिवसाण अुरोंक सोडी नाका
मोव जातसर अुकड ताका.

सदांच तर हो अुजो करशी
अुप्रांत कडचेची रूच चाकशी
कितलोय नारकूट तर आसल्लो
लोण्या तितलो मोव जातलो.

आवयांनो, धुवांक तुमच्या
फाल्यां पोरवां काजार जांवच्या
शिकया ही रीत गरजेची
तांच्या दादल्यांक कडी करची.

## बारावें सरोन तेरा लागलीं

आमचो जिल्लू, तांचे जिल्ला
भुरगीं दोन घरांतलीं
घरां आमचीं तेंकून आसल्यान
भाव–भयणशीं जावन वाडलीं.

जिल्लूक भयण ना, जिल्लाक नांत भाव
देखून हो मोग अितलो
नेंटे प्रायेर थावनंच तांच्या
काळजांत किरलोन आयल्लो.

हाका कितेंय खांवक तर दिलें
तांतलें दिवचें ताका
ताच्ये आवयन कितेंय दिल्यार
हाडता वांटो हाका.

पयलो कुमगार ओट्टू जालो
दोगांय बरीं सोबलीं
खाशा भावा – भयणां परी
पळेतेल्याक दिसलीं.

घरा, वाटेर, अिस्कोलांती
ताणीं ओट्टू आसचें
अिस्कोला थावन घरा येतच
संगीच ताणीं खेळचें.

आदीं चेडवांक बारा वरसार
काजार कर्न दिताले
थोडे म्हयने अुणे तरी
डिस्पेन्स काडून करताले.

रेस्पेरा दिसा, जोडच्या संगी
मावळे, बापले गेले
होकलेक, नवऱ्याक बलकावांत सोडून
घरा सोप्यार चडले.

विगार थंय ना, खंय पैस गेला
कुमगार घेवन पिडेस्ताक
येता पर्यंत राखचें पडलें
अेक वर भर रेस्पेराक.

पुरासणेन आयलो विगार
रेस्पेर करूंक गेलो
" होकलेक, नवऱ्याक, साक्षिगारांक
आपय " म्हणलागलो.

होकाली ना, नवरोयी ना
सक्कड अजाप पावले
घरांत, अिगर्जेंत, साक्रिस्तींत
सगळचान सोधूंक लागले.

अखेरेक साक्रिस्तिच्या पाटल्यान
कशींय पळेंवक मेळतात
वयलीं वस्त्रां सोडोवन दवरून
दोगांय जिबली खेळतात.

# चार्लस फ्रान्सीस डी' कोस्टा

## क्रिस्तांव

तेणें आवय रडटा
" लांवच्याक ना, मरतां हांव. "
हेणें बापूय म्हणटा
" दिवच्याक ना झाता हांव. "
मधें भुरगें दोडटा
" खांवच्याक ना, सरतां हांव. "
किस्तांव हातीं वाती घेता
बावलेलीं चार फुलां घेता
आनी वाट भर म्हणत वेता
" वेगीं मरा, पुरतां हांव ! "

## मिठा कण

पेजे वाटली हातीं घेवन
दर्या वेळेर रावलां
कोणूय विचार नाकात चोवन
" तोंड कित्याक बावलां ?"
अेक आसल्ली मिठा कण
पिशे बुदीन वाडल्या
दर्या येदीं जातां म्हण
दर्यांत वचून अुडल्या !
" दी गा म्हजी मिठा कण
तुज्या अुदकांत खिरल्या
निरास जाल्या म्हजी जीण
पेज अळणी अुरल्या !"

## हाड चेडुवा बुडकुलो

हाड चेडुवा बुडकुलो लकय तळचांत
म्हजें तुजें अुतर जालां काजच्या मळचांत.

अमृताची धार गो, आमच्या लग्नार वोतूं गो
बऱ्या-वायटा रिवाजिंची तकली ती भेतूं गो
तुजो म्हजो रोस घडों अर्ध्या वळचांत
हाड चेडुवा बुडकुलो लकय तळचांत
म्हजें तुजें अुतर जालां काजच्या मळचांत.

पादरी चीट वाची ना, व्हडील माटव रची ना
म्हज्या तुज्या बऱ्या-फाल्या सयऱ्यां सावळी येंवची ना
पादरी व्हडील व्हाळून वचों व्हाळच्या व्हाळचांत
हाड चेडुवा बुडकुलो लकय तळचांत
म्हजें तुजें अुतर जालां काजच्या मळचांत.

करियामणी बांधी ना, भांगर शिंगार घाली ना
आमच्या होरा मुखल्यान गो रस्मा गाडी वेची ना
म्हजें तुजें लगीन घडों मोगरे कळचांत
हाड चेडुवा बुडकुलो लकय तळचांत
म्हजें तुजें अुतर जालां काजच्या मळचांत.

धोल गुमट नासतना, गरनाळिचो नाद ना
पेंपाऱ्यांचो साद ना आपल्या पेल्या बाद ना
काजाराचें गायन गाजों कोगळे गळचांत
हाड चेड्वा बुडकुलो लकय तळचांत
म्हजें तुजें अुतर जालां काजच्या मळचांत.

सात सात जाकिना, चोवदा जातीतमू सन्नां
सन्नांचोय पर्वो ना सयरें–धायरें आसचें ना
आमच्या लग्ना काफ्ये संभ्रम पाळ पोळचांत
हाड चेड्वा बुडकुलो लकय तळचांत
म्हजो तुजो मोग जाला काजच्या मळचांत.

बुडकुलो गो आयलो ना तळचा अुदकां लकलो ना
दस्तुऱ्यांचे पाजे मुखीं तरनो तकलो ठिकलो ना
आमच्या लग्ना आंवडो गो सुकलो गळचांत
हाड चेड्वा बुडकुलो लकय तळचांत
आजून तुका राखून रावलां काजच्या मळचांत.

## आडकुलो गो बुडकुलो

आडकुलो गो बुडकुलो
तेला तुपाचो
बायेगेर बाब जाला
फिरंगी रुपाचो !
कसो ? कसो ? कसो ?
पियाव पुरल्यार
पियाव जाता
बटाटो रोयल्यार
बटाटो जाता
भावोजी जर
आमचो जाल्यार
बायेक कसो
फिरंगी जाता ?
कसो ? कसो ? कसो ?
आडुकलो गो बुडकुलो
तेला तुपाचो
बायेगेर बाब जाला
फिरंगी रुपाचो !
कसो ? कसो ? कसो ?

## अजो

काळखांत ओली आंकुडटना
चंद्राचे लेगून दांत झडटना
काळजांत कसो पेट्टा अजो
तुज्या मोगाचो ?

पावसांत गुलोब शिरशिरतना
कांटो फुलाक वेंग मारतना
काळजांत कसो अुट्टा अजो
तुज्या मोगाचो ?

पाकळी मस्तिली तरन्या फुलाची
तांबसाण वाडली गोऱ्या गालाची
त्ये तांबसाणेंतल्यान पेटलो अजो
तुज्या मोगाचो.

सिल्काची साडी न्हेसून वेताली
तलका परी तूं चलून वेताली
सांगात जालो तुज्या पालवाचो
म्हज्या गालाचो !

आदीं कळ्ळें ना कळना आतां
गालार घासतना सिल्काचीं सुतां
काळजांत कसो अुट्टा अजो
तुज्या मोगाचो ?

# आंब्रोज डी' सोजा

## मंदीर मुर्ती

म्हज्या मना मंदिरांत
त्रियेक देवा–मुर्ती
ताच्या मोगा समदिरांत
जिण्येक महा स्फुर्ती.

शाबितायेन चलोंवक तारूं
संवसार म्हळचा दर्यांत
शांत वेळार, तशेंच
वादळांत पर्यंत.

म्हज्या मोगा मंदिरांत
आसा अेक त्रिमुर्ती
तिचे विणे संवसारांत
भक्त न्हय ती पुरती.

माय–बाप, माय–देश
माय–भास मोगाळ
त्रिमुर्तिचीं तीन मुखां
वरतवतात रंगाळ.

## जिवीत

कुपां रहीत निळशें आकास
दिसान दिसा सुर्या प्रकास
करंदाय ना–पावस, झड–वारें
वातावरण भोव चड बरें !
जियेन सदां हासत्या मुखान
जिवीत चलत वरत्या सुखान !
चिंतां चिंतां चोयलीं भोंवती
सुकोन करपोन गेल्ली भूंय ती
बेकार जाल्या शेळच नासतां
बंजर जाल्या फळ दिनासतां.

नासल्यार जिण्येंत काळीं कुपां
दुखाळ घडियो, पावसाळ तुफान
ना जायत जाल्यार कष्टांचो घाम
आसोन सुर्याच, सुखाळ आराम
जिवीत हें जायत बंजर खरें
मतींत खचोंवन घेव्यां बरें
पावसा अुदकान भिजता धर्ण
वाडावळीक जाता कारण
कष्टां दुखांक खांद मारीत
जिवीत कऱ्यां फळा भरीत.

## जाग

अुदेंतिचें दिगंत चिर्न
अुदवेन आयलें सुर्या किरण
घुडांत कोंब्यान घाल्लो साद
कुडांत ताच्या गाजलो तरी
आळशी तसोच लोळ्ळो आड
मांकडा सर्गाक गेलो परत्यान
स्वपणा लोकांत पावलो तुरतान
सुर्याक ताणे सवाल केलें
" सांग गा सुर्या, कसलो आदाय
तूं येवन वचोन जोडताय सदांय ?"
जवाब जावन सांगलें सुर्यान
" रचणाराचें नियम कार्यान
पाळची हांव अेक रचना भावा."
आळशी हासोन म्हणता " वा, वा !
भिवकुऱ्याची ही करनी
कांय चड करताय हाचे वरनी ?"

राग दांबून म्हळें सुर्यान
' अुदवेन हांव अस्तमतां पर्यंत
चुकतां गी कांय म्हज्या कार्यांत ?
अंत्रळार हांव पैणार आसतां
अुजवाड अूब दिवच्याक लासतां
आतां म्हाका सांग तूं मनशा
आपूण विंचणार रचना म्हणच्या
अुदेवन आयलोय मांयच्या पोटांत
ह्या दोन घडितांच्या मधें
जिवीत जियेंवक आवक दिलां
अुठच्या आनी न्हिदच्या मधें
फकत पियेंवक – खांवक दिलां ?
जिवीत तुजें कशें सारताय
पेल्याक कांय पूण अुपकार करताय ?
घाम काडन काम कर
कुडींत जेदना बळ आसा

मागीर खावन आराम कर
जिण्येक तेदना मोल आसा
म्हजे थावन तर घे लिसांव
तुजे खातीर लासतां हांव
पेल्या मोगान लासचें जांव
तुजें थोर तेसांव
अुल्याक म्हज्या मानताय तरच
म्हजें धर बेसांव
सुर्या किरणां जागोंव तुका
सर्वंय रचनां शिकोंव तुका
सारूंक आसच्या कायद्याचो
अुगडास – अुजवाड दाखोंव तुका. ”
सट्ट करून तो उठोन बसलो
नीट वैर सुर्य आसलो
अुलो सुफळ जांवचो पळेवन
संतोसान सुर्य हासलो.

## सुभागी

जीं कोण दुबळीं अंतस्कर्णान
म्हणजे गरीब स्पिरितान
तीं सर्व भागी, व्हय सुभागी
सर्गिच्या राजाचे ते दायजी
रुदन करतात तिवी भागी
तांकां भुजवण लाभतेली.
भागी सादीं भोळीं, पृथ्वी
तांचें दायज जांवक पावतेली.
सुभागी जीं निती खातीर
भुकेतात वा तानेतात
तृप्ती तांच्या जिवितांत
जीं कोण दयाळ तीं सर्व भागी
तांचेर दया देंवतेली.
काळजांत शुद्ध आसचीं भागी
तीं सर्व देवाक देखतेलीं.
सुभागी तीं शांती हाडूंक
राजी करूंक पेचाडचीं

ओळखूंक तशें मानवोंक पावतीत
भुरगीं म्हणोन देवाचीं.
नितीन जियेंवक वावुरतना
दगदगतात जीं नितीक लागून
तीं सर्व भागी, व्हय सुभागी
सर्गिचें राज तांचें देखून.
म्हाका लागून मनीस तुमची
निंदा करून दगदितना
सर्व जिनसांचीं घडपां घडून
तुमचे विरोध साक्ष दितना
खुशाल जाया, संतोस पावा
तुमचें अिनाम वरतें सर्गीं
तुमी भागी, प्रवाद्यांकी
अशेंच ताणीं केल्लें न्हय गी ?
पृथ्विचें मीठ तुमी आसतां
मिठच जर तर अळणी जालें
खारसाण कशी पाटीं हाडची ?

कित्याकच ना अुपकारतेलें
कसल्याकी अुपकार नासल्लें
मीठ भायर अुडयतेले
पर्वा करी नासतां मनीस
वाट चलतां गुड्डायतेले.
संवसाराचो अुजवाड तुमी
दोंगरा वयलें शहर गुपीत
अुरत ? या कोणी दिवो
पेटोवन ताचेर कळशी धांपत ?
तशें बिलकूल करी नासतां
दवरतलो दिवटोणेचेर
दिवो प्रकास फांकयतलो
घरांत आसच्या हर अेकल्याचेर.
असोयी फांकों प्रकास
देखोन तुमचीं बरीं कामां
सर्गीं आसच्या बापाक तुमच्या
मनीस दिंवदीत अगीं महिमा.

# चार्ली डी' सोजा

## अुदक

आकासार दिसतात मोडां काळीं काळीं
पावस खंडीत पडतलो रैत आशेलो सकाळीं
पूण सांज जातना वारें व्हाळ्ळें बळान
मोडां सगळीं धांवोन पैस गेलीं अुभोन.

खंय गेल्यारी अुदक ना लोक मारता बोबाट
रोहिणी आमचें अंत्रळाक सोडलां जाता सगळ्यान बोबाळ
सुकल्यात न्हंयों, तळीं, बांयों सगळ्यानितल्यान अेदोळ
कंगाल जाला लोक, नासतां अुदकाची सावळी शेळ.

टँकरांनी अुदक धाडन दिता सरकार
राखोन रावला लोक कोळशे घेवन लायनीर
दो-दोन कोळशे अेकल्याक घेया म्हणता नौकर
सकटांक मेळच्या पयलें खाली जाता टँकर.

पावस सदां मोडायता धांवता मात्र पैस
लोकाक ताणें कित्याक करूंक ना खायस
सर्वेस्परा देवा, बरो पावस देंवय
गांवार आमच्या येंवचो दुकळ पैस धांवडाय.

## निरुद्योगी

डिग्री म्हजी जावन, वरसां जालीं सबार
आवक म्हजें अरधें जावन गेलें काबार
कामां सोधून सोधून वताक भोंवोन घुंवोन
केस धवे जाल्यात, शरीर गेलां गळोन
डिग्री जाय नासल्ले सबार, व्हड हुद्द्याक पावल्यात
फुटकर म्हजें नशीब, खंयचीं कामांय मेळनांत.

कितें पुरा केलें, कोणाचे हात-पांय धरले
अेदोळ कांयच फायदो ना म्हज्या वांटयाक सर्व विसरले
काम तुका जाय विचारता अेकलो ऑफिसर
पांच हजार दिल्यार जातलोय म्हजो नौकर
कितें हांव करूं, हजार खंय थावन हाडूं ?
कोणी दान दितीत आयकोन कष्ट म्हजे कोडू.

लंच तर दिल्यार, कामां धाराळ मेळतात
दिनां जाल्यार कितेंय कामां नांच म्हणतात
अे सृष्टिच्या रचनारा, कितें तुजी ही माया
ह्या पापी निरभाग्याचेर, घाल तुजी दया
कोणाय अेकल्याच्ये मतीक बरो अुजवाड फांकय
आतां पुणी म्हाका अेक काम लाभय.

## म्हातारी

वरसां जालीं सबार म्हाका केस सगळे पिकल्यात
दांत सगळे झडल्यात दोळे फोंडाक गेल्यात
कातीक मिऱ्यो पडल्यात आंग कांपोंक लागलां
पाटीक बाव आयल्या शरीर सगळें भागलां.

दोन मेटां चलोंक म्हज्यान तांकना
जेवण ताचे पयलें म्हाका रुचना
काम कसलेंय करूंक बळ म्हाका ना
न्हीद म्हाका रातिची कशीय पडना.

सकाळीं म्हाका केदींच मेळना हांगा जेवण
दनपारा थोडें दितात कसलें तरी खाण
सांजेर म्हाका दितात थोडी नीस–पेज
कष्ट म्हजे सांगोंक दिसता म्हाका लज.

घडयेन घडी खोंकली म्हाका येता
खोंकून खोंकून हरद्यांत दूख जाता
दुखीन तर पिरगोंक हांव सुरू करीन
घरचीं सगळीं पेटतात म्हजेर व्हडा रागान.

नातरां म्हजे सर्शीन आयल्यार व्हडिलां पैस करतात
" म्हाताऱ्ये सर्शीं कित्याक वेतात " म्हण बोबाट घालतात
कोणी म्हाका पळयना सक्कड दांटोन चलतात
केदना ही मरत म्हण सदांय राखोन रावतात.

कितलो तेंप म्हाका अशें सोडताय देवा
सर्व सांतां भक्तांनो म्हजी बिरमत पावा
तुमी राखण भोडव्यांनो म्हाका राखोन व्हरा
म्हजे खातीर मरिये माये लागीं विनंती करा.

## स्त्री

स्त्री म्हळ्यार ससार जावन गेल्या सर्वांक
पळयल्ल्या फरा तिच्या त्या सोबीत रुपाक
तरनाट्या थावन मरचो म्हातारो पर्यंत
आशेवन आसा तिका करूंक तिचो सांगात.

आज काल सबार कडेन आयकोंक आमकां मेळता
स्त्रिये खातीर सबारांचें रगत तें व्हाळता
शिकपी आनी अशिकपी मनीस पर्यंत
स्त्रिये धर्मान गुन्यांवकार जांवक पावल्यात !

रसत्यार स्त्री मानसुगेन वचोन आसतना
पुरूष तिका आपल्ये भयणी बरी कित्याक लेखिना ?
शिळोण्यो घालता मस्कऱ्यो करता प्रतिफळ जावन
मार तिचे खाता कानसूल आपलें सुजयता.

बस्सार पळेया पुरूष सगळे मुखल्या बागलार
बोब ती कंडक्टराची "पाटल्यान येया" नटवनां तांच्या कानार
स्त्रियो सगळचो हांच्या धर्मान जातात पुरा कंगाल
अुलोंवक गेल्यार " रिक्षार वचा " तांकां सुचन विशाल.

गांवांत राष्ट्रांत कितलेशो स्त्रियो हाक बोब मारतात
" दोती–देण्या यावन आमकां राख देवा " म्हणतात
तांचे विळाप जावन गेलात मात्ये पंदलें रुदन
कोण हाडीत दोती विष्यांत बरें अेक विधान ?

मांय–सुनो झगडोन पडतात ह्येच दोती खातीर
मांव–जांवय हांडोन पडतात देणें अुणें जाल्यार
पूत–बापूय चाबोन पडतात कसली करंदाय
सर्वांक देवा बरी अेक वाट दाखय.

स्त्रियो न्हयगी पुरुषांक जल्म दिल्ल्यो
तर कित्याक तांच्यो जातात वीद–वावळचो ?
जागो जा पुरुषा, तुज्ये स्त्रियेक सांभाळ
निवरांवक तूं प्रयत्न कर सगळचान आयल्लें वादळ.

## आमचो आब

आमच्या घरा सामकार आसल्लो अेक आब
नांव ताचें सोबीत सुंदर तें पियादाब
वरसां ताका जालीं आतां नव्यानव
पूण ताचें मन मात्र भुरग्यां बरी मोव.

अेक दीस आमचो हो पियादाब
भायर सरलो गडंगाक
शंभर आनी साठ बसोवन पाटीं घरा आयलो
न्हिदल्लो तो अुटलना, गेलो रचनाराच्या दारा.

काळीज रावोन अंतरलो, भुरग्यांचो जालो विळाप
सोन्याक कितेंय भरशिलां, शेजारच्या लोकाचो सैलाप
कोणी कितेंय म्हणोंदीत, आबाक ना पर्वा
सासणीक शांती मागुंया आमी ताका सर्वां.

# लियो डी ' सोजा

## आशा

थोड्यांक आशा खेळांत नाचांत
थोड्यांक वाचपा पिशें
थोड्यांक नाटक सिनेमांनी
जीवच ठेवला जशें.

थोड्यांक आशा सांजे वेळार
भोंवोंक वचोंक सदांय
थोड्यांक मार्गा मधेंच रावोन
नदर चलियांचेर कांय.

थोड्यांक पिशें आपूण शाणो
गाजोंवक गातात गाणां
थोडे बांधतात व्हडिलांच्या
कानाक रे वांयगणां.

थोड्यांक पिशें सांगोंक कथा
थोड्यांक बरोंवक पदां
छाप्यांत आपलें नांव पळेंवच्याक
साधन चलता सदां.

थोडचांक पिशें प्रयत्न तांचें
" शेजारा शिजता कितें ?"
पिशे बावडे आपल्याच घरा
कुजनांत सगळेंच रितें.

थोडचांक आशा हासोंवक हेरांक
थोडचांक हेरांक मोडूंक
म्हाका ? ह्या सर्व पिशां विष्यांत
पिशें कवन घडूंक.

## भुरग्याचें सवाल

मोडां रथार तारां संगी
चंद्रा धांवताय कित्याक वेगीं ?
राव अेक घडी आशेवन आसां
करूंक सवाल तुजे लागीं.

अंत्रळाच्या त्या अूंच शहरांत
बिडार तुजें लाखां मधें
सर्वां संगी अेकाच मापान
मोगान जियेंवक करताय कितें ?

आमकां पळे ल्हान गजाली
घडच्येन गिळतात मनशा शांती
रागान, द्वेषान नीच आबलेन
सगळचान दंगो, दोंबी, क्रांती.

चवदा दिसांनी व्हड जाताय तूं
खंयच्या गाद्यांतलें खाण तुजें ?
मागीर परत तोंड लिपयताय
तुज्ये लजेक कारण कितें ?

थोड्यांक तुजेर व्हडलो आरोप
सुर्या प्रतापाक आड वेताय
थोड्यांक तूं अेक व्हडलें नवल
धगी मधेंय थंडच अुरताय !

थोड्यांक तुजी सोबाय पळेवन
अुगडास आपल्ये प्रेयसिचो
थोड्यांक तुज्या लिपत्या तोंडार
हिशोब आपल्या धर्मवृत्तांचो.

मनीस तुज्ये भेटेक आयलो
तरी दौलत दाखयनांय कांय
ल्हानविकायेंत व्हडपण तुजें
जिण्येक म्हाका लिसांव सदांय.

## दोणकार बावडो

कायम येंवचो पैणारी तो
हातांत खाणा पोटल्यो सदांय
दोणकार बावड्याक दुबाव नवल
कित्याक फुलां माळा ही काय ?

अेक दीस सवाल केलें ताणें
जवाब आयली " बिरमत तांची
ल्हान ल्हान भुरगीं आसात तांगेर
कुमक करूंक आशा म्हजी. "

वाऱ्या झडाक हिंवांत गिमांत
चुकनासतां येतालो तो
दोणकार बावड्याक व्हड अभिमान
" हो नीज बिरमतिचो मुदो. "

अेक दीस अवचीत विधव सरली
तरणी आवय त्या भुरग्यांची
दोणकार बाड्याक खरेंच सवाल
दुखेस्त खबर सांगूं कशी ?

त्या दिसा वेगींच आयल्लो तो
खबर सांगतां, दोणकार तोवलो
पोटल्यां सैत " भुरग्यां प्रेमी "
आयल्लो तसोच चलतच रावलो.

## देव हासलो

रचलो देवान चंद्रेम सुर्य
प्रजळ जळतीं तारां
न्हंयो झरी दोंगर दर्या
अंत्रळाचीं घरां.

अेकाच सब्दान आसा जाले
अंत्रळाचे खांबे
ताच्येच दयेन व्हाळोंक लागले
पावसा दोवा थेंबे.

रचले ताणे वागा शिंवाक
मासळी, मांकड, हस्ती
अुदकांत वाऱ्यार भुमीर तांची
मयमोगान वस्ती.

भोंवती भोंवडावन दृष्टी आपली
हें सर्व देखलें ताणे
सृष्टी सगळीच सोबयला तरी
खंयसर दिसता अुणे ?

शेवटीं मनशाक रचलो देवान
आपल्येच सुर्पायेचो
मोगान ताका पळेवन हासलो
देव खुशेचो हासो.

## मोगा तुका सर ना

टीक टीक व्हाजून व्हाजतात वरां भायल्यान वाऱ्याची गाज
काळोखाच्या वेळार निश्बद जाला आवाज
मेजार म्हज्या जळची ती वात पुरासाणेन तोवल्या
हातांतुली सोबीत लेखणी राखोन थकोन बावल्या
भोंवती भरल्यांत पेनां, फोली, बसलां तुका चिंतून
कवन तुजेर घडूंक आशा, अुतरां मोत्यां गुंतून
पयशिल्यो त्यो कोल्या बोबो, लागसर घुगी अेळे
अुतरां सारखीं सोधून आशेन मिणकूंक लागल्यात दोळे
खंयसर सुरू करूं ? कोणाक सर दींव तुका हांव आज ?
रुपणें तुजेंच भरलां मनांत, चिंतनाक थंय ना अवकास
चंद्राक सरी करूं ? बावडो वाडता तसोच पडता
दर्याक ! विशाल प्रशांत तरी घडचेन भरता बुडता
सर ना मेळत मोगा तुका सर नासल्ली जिणी
वर्णूंक तुका सकना हांव अुतरां जाल्यांत मोनीं.

## सिल्वेस्टर डी' सोजा

### भागी जल्म

पूर्व दिगंतार चरतच तांबसाण
भुमी जातच जागी
सृष्टी कर्ताक करचो नमन
मनशा जल्म हो भागी.

भुमी माता वेगान घुंवतच
चडता रवी मात्यार
पडतात दिष्टीक रवी बुडतच
चंद्र तारां मळबार.

रवी भोंवती धांवता भुमी
भुमी भोंवती चंद्र
खंयसर म्हण नेणांव आमी
सृष्टचेचें तें केंद्र.

धांवतच भुमी रवी भोंवती
बदलतात ते ऋतू
हेमंत, वसंत, ग्रीष्म, शरत
वरसान वरस परत.

भुमी संगी मंगळ आनी
अितर ग्रहां जायतीं
बूध, गुरू, शुक्र, शनी
घुंवतात रवी भोंवती.

तारां पैकी अल्प्या रवीक
जर तर असलो दळभार
ताचे वरतो ना जायत कसलो
लाखों तारांक मळबार ?

अुंचली महिमा सृष्टेंत नश्वर
देखचें भाग हें आमचें
हाचे वरतें भाग सर्वेश्वर
सृष्टी कर्ताक देखचें.

अर्गी दिव्यां सृष्टी कर्ताक
भागी जल्म हो दिल्ल्याक
दीस रात ताची करून स्तुती
जीण ही कऱ्यां सार्थक.

## तरुणपण

विशाल हरद्यार ल्होंव भरोन
मिशो ओंठार फुटोन
मासाळ खंड बावळ्यार वाडोन
रोसाळ दिसता तरूण.

काल आसल्लो बालक ल्हान
जाला युवक आज
खबर जाल्या वाडला तो म्हण
बापूय प्रास अुभार.

मुदयाळी ल्होंव मुखमळार
आधुनीक वेस आंगार
पोकरी खेळ सदां ओंठार
राखता मेळोंक सांगात.

नेंटी आसल्ली काल ती चली
जांटी कशी जाली ?
चेरक्यां संगी जिबली खेळल्ली
परकी जांवक ती पावली.

सपाट तिचे विश्वे दुलोब
थपकट–अुभार वाडल्यात
फुल्ल्यात हरद्यार जवळे गुलोब
चल्ल्यार धलतात वाऱ्यार.

वाडकुळचा त्या मुखमळाक
वेडकोळ घालता सोबाय
कोमल तिचें शरीर देखल्यार
अमाल, तरूण बावडचाक.

बळिष्ट जीव तरुणाचो
पळेंवक वरती सोबाय
जीव तो नाजूक तरुणिचो
पांय तर निसरत, अपाय !

## अेव

आदांव बापा, कित्याक सायबा
न्हिदोन तूं पडलोय ?
देवान तुजी बोर अेक काडली
अेवेक रचूंक हाय !

तोपल्लेंगी देवान तुका
क्लोरोफोर्म अिंजेक्शन
करच्या आदीं हरद्याक तुज्या
मेजर ओपरेशन ?

जीव जाली बोर ती तुजी
अेव जावन बदल्ली
जागो जावन अुठल्याची
भागिदार्न ती जाली.

लुसिफेरान तिका, अब्ळे
ससारायेन नाडली
खेलें तिणे फळ आडवारल्लें
तुकाय अेक दिलें.

घडलें पातक, वाडली संतत
फुडल्या संवसारांत
स्त्रिये धर्मान दादल्याक पाप
कांय ना समाधान !

खोलियो गुंतून न्हेसताली अेव
फुलांच तिचो शृंगार
आतां स्त्रियांक साडियो जाय
तशेंच अपूट भांगर.

हाडलो म्हणून सेजार्नीन
व्हडलो जैत रेडियो
रडलें म्हजें कातरीन
हाडी जाय म्हण विडियो.

तेज्जूक आसा आल्मार गोड्रेज
बिज्जूक कल्लर टी. वी.
धोसता कातरीन "आमकां फ्रीज
घेताय केदना सिलवी ?"

फांत्यार अुठोन स्टोवा लागीं
आरंभ केल्यार रांदप
करता चालू रांदपा संगी
पुरपुऱ्यांची कसेट !

" मीठ ना, मिरसांग ना
हॉट प्लेट ना आमगेर
मात्याक वोडल्यार पांयांक ना "
कात्तू गायता कंतार.

केदना स्त्री अुदेली
तेदनांच आयलो शत्रू
कितें सांगों बोर म्हजी
थेट चूड–कोतरू.

चूड–कोतरू जाल्यार कितें
चेडूं तें भांगर
हांव मोगान पळेन तर, तें
जीव दिवकी तयार.

वाडोंदी बोर दादल्यांची
वाडोन संवसार भरोंदी
संतत अेवेची जियेंवदी
संवसार नंदन करुंदी.

## विचित्र सृष्टी

कसली विचित्र, ये रचनारा
असली तुजी सृष्टी
दोळे दोन दिलाय म्हाका
पळेंवक सोबाय वरती.

दिसाक मळबार राज करता
अेकलोच रवी राय
रातीक मात्र अुटोन दिसता
चंद्र तारांची सोबाय.

कुपां अूंच अंत्रळार
रुपां विवीध रचतात
सोबता अपरूप आकाशार
पावसा–धोणू विचित्र.

भुमी वैर दोन भाग
धर्ण आनी सागर
थंयसर लाभता लाखोंगटल्यान
समेस्त जिवींक बिडार.

रवी थावून व्हाळता सकत
विवीध जिवींक पृथ्वेर
भुकेक खाण तांकां मेळत
तानेक अुदका झर.

ग्रीष्म मुखार सरतां सरतां
चडतात कुपां मळबाक
अुप्रांत सदां खळनासतां
वोत्ता पावस ह्ये धर्तरेक.

दिसतात सगळ्यान रान, बैल
दोंगर आनी खंदक
भरोन गेल्यात न्हंयो, व्हाळ
दिवच्याक् जिवीत प्राणींक.

रचल्याय तुवें मनशां खातीर
विचित्र ही प्रकृती
तांतुयी सोम्या भोव मारेकार
रचनांयी आसात जायतीं !

बकऱ्या सवें रचलाय बोलप्याक
सर्पा संगी मुंगूस
अेक अन्येकल्याच्या बऱ्याक
जशें साळ्याक मूस.

जिवीं मधें लींग भेद
तुंवें रचलाय दोन
तांतुंयी आसा अुद्देश व्हड
संवसार भरोंक वाडोन.

मानव कुळियो, विवीध प्राणी
फुलां फळां अपार
अुदकांत मासळी, वाऱ्यार सुकणीं
भरून गेल्यांत पृथ्वेर.

लिखूंक गेल्यार अंत ना
देखोन ही प्रकृती
लेखणी ही केदींच सकना
वाखणूंक सोबाय पुरती.

# नेणत्या भुरग्याचें मागणें

बाळक जेजू, ये मोगाळा
पळे म्हाका भुभू जाला
पोटांत म्हज्या भूक लागता
कोको जेवूंक आशा येता.

आंग म्हजें हून जालां
तकल्ये भितर मस्त दुखता
गुळयो खावन पुरो जालां
सिस्टर सुव्येन तोपता.

म्हाका पळेंवक कोणी येना
कित्याक म्हण तें नेणां
सिस्टर म्हणता "पप्पा माम्माक
सोम्या जेजून आपवन व्हेलां."

दुसऱ्या भुरग्यांक पप्पा आसा
सोबीत सोबीत भामां हाडता
रातीं लागींच ताती करता
घोंगो आयल्यार तो धांवडायता.

माम्मा तांची भोबो करता
मेमे करून तांकां दिता
मात्याक तांच्या तेतू घालता
तोंडाक तांच्या मोमो लायता.

जेजू हांव तुजे कडेन
कोको मेमे विचारी ना
पप्पा माम्मा म्हाका मेळ्ळ्यार
भुभू म्हजो जायत सुमार.

देखून म्हाका आपवन वेगीं
व्हर तूं, सोम्या, तुजे लागीं
कित्याक म्हळ्यार सिस्टर सांगी
आसात म्हण तीं तुजे संगी.

## वलेरियन डी ' सोजा

### निस्वार्थी

व्हय रे आपा
म्होंवा मुसा
तूं अुभताय
तूं धांवताय
बोंग्याचेर बसून
फुलांनी रिगोन
म्होंव हाडताय
जमो करताय
पूण रे आपा
म्होंवा मुसा
तो येतलो
हो येतलो
पोळी देखतलो
मिटचो मारतलो
तुका धांवडावन
म्होंव व्हरतलो
वावर तुजो
फायदो ताचो मुरे ?

## स्त्रियेचें मागणें

सोबाय तुजी
म्हज्या पोल्यांक
तुजो रंग रे
ओंठांक म्हज्या
परमळ तुजो
म्हज्ये कुडीक
दी रे मोगा
गुलाब राया !

## आपा लिपा

पुनवे राती
मळबाक पळे
चंद्र लिपता
तीं धांवतच
हळू तिळून
अपुरबायेन
तो हासता.

## सोबाय

आकासाच्ये अुभारायेर
कापसा मुद्यांचो कुपां जमो
सागराच्ये रित्ये तडीर
निळचा ल्हारांचो मोगा अुमो !

## प्रथ्वे रडणें

काळसाणेच्या
कुपां मधल्यान
झगलाण्यांची
तलवारी शीर
घडघडचाच्ये
फुटवणे पाटल्यान
दुखां शिवर.

## तूं भागी जा

कुशींत व्हावोवन
नोव महिने
जल्म दिलोय भियाविणे
पानो तुजो दिवन म्हाका
पोसलोय तुंवें भुकेविणे
अुसक्यार तुज्या खेळोवन म्हाका
व्हड केलोय कष्टांविणे.
तुजे शिवाय ह्या संवसारांत
हांव आसतों ना आवय म्हज्ये
ह्याच खातीर हांवें तुजो
अुपकार बावड्ूक जाय.
अुपकार तुजो कसो बावडू
तुज्या साक्रिफिसाचो
ऋण कशें फारीक करूं
रगताच्या त्या मोलाचें
तुज्या सगळ्या कष्टा–दुखांत
देव तुका सुखी करूं
आवयपणाच्या स्वादीक मेळींत
तुका तो भागी करूं
ताच्या त्या पवित्र राजांत
तुका तो वरतो करूं.

## प्रेम गीत

हाय अे नारी
तूं वरती खरी
वर्णन तें तुजें
हांव करूं कशें ?
काळजान तूं विशाल दर्या परी
सोबताय तूं अपार सुर्य बरी.

हाय तुजें वदन
कितलें तें सोबता
सोबीत सुंदर साळकाचो
अुगडास मतींत हाडता.
हासशी जर तूं
फूल सैती लजता
झाडां मधें रिगोन
गुपीत लिपता.

सोबीत चाल तुजी
मोराच्या नाचा सारख्याची
चलतना कूड धलता
धल मोवाळ वालिची
दोळ्यांतली झग तुजी
पुनवेच्या चंद्राची
पाटीर व्हाळता न्हंय
लांब रास केसांची.

म्हज्या मोगाचो ताळो
व्हडवीक तुजी गायता
काळजाचो तो दोळो
तुका मात्र चोयता
तूं म्हजीच जांवक
सदांच हांव मागतां
गोपांत तुका आरांवक
राखोन हांव रावतां.

# संवसाराची रिवाज

पत्रार म्हजी तस्वीर केदींच
छापून आयली ना
देखून तुमी
म्हाका पळेंवक ना !
भांगराळ्या अक्षरांनी म्हजें नांव
लिखुनं उरल्लें ना
देखुनंच तुमकां
म्हजी ओळख ना !
पार्कांनी म्हजी मुर्ती
उभी दवरल्ली ना
देखून तुमकां
म्हजी झळक ना
फुलांचो हार घालून
कोणेंय म्हाका सन्मान केल्लो ना
कित्याक हांव दुबळ्यांतलो दुबळो.
प्रगट भाषणांनी
कोणेंय म्हजी होगळीक उलयल्ली ना
कित्याक हांव बुराक जाल्लो गोबळो !
मात्येच्यो बाटियो लोंकडाच्यो गेटी
मात्यार व्हावयल्यो आनी रगत आटयलें

आनी पेल्याचीं बांधपां अुभीं जालीं !
जळच्या आगटचाक रिगलों, जीव हुलपायलो
रडोन मरतेल्यांक हांवें वांचयले !
जिवाची आशा सांडली
अुदकाच्या लोटाक अुडलों
बुडोन मरतेल्यांक राखले !
होसपिटलाच्या खटल्यार न्हिदलों
रगत दान दिलें
मरोंक पावल्ल्यांक नवो जीव दिलो
पूण खंयसरी म्हजी तस्वीर
छापून आयली ना
म्हजें नाव गाजलें ना
म्हजी मुर्ती अुभारोन अुरली ना
कित्याक हो संवसारच असो
आनी हांगसर
खंय गेल्यारी ग्रेस्ताकच मान
ताका सदांच सन्मान
दुसऱ्यांच्या नांवान ताकाच अभिमान !
कित्याक संवसाराची रिवाजच ही
कोणगी जोडता – कोणगी मोडता !
कोणगी सोधता – कोणाकगी मेळता !
कोणगी खुंटता – कोणगी माळता !
कीणगी जीव दिता – कोणगी जियेता !

## चिंतनांनी – सब्दांनी – करन्यांनी

तुंवें चिंतच्या चिंतनांनी चिंतनां म्हजींच रेवडोन
तुज्या काळजाच्या कोनशांत अुगडास म्हजो अमर अुरोंक
तुंवें भोगच्या भोगणांनी भोगणां म्हजींच भोगून अुरों
तुज्या काळजाच्या थळांत मोग म्हजो शाश्वीत पुरूंक
तुंवें अुलोंवच्या अुतरांनी नांव म्हजें गाजोन अुरों
तुज्या रगताच्या शिरां–शिरांनी चरोन तें आसोंक
तुंवें काडच्या मेटांनी मेट म्हजेंय खचोन अुरों
तुज्ये जैताच्ये वाटे कुशीन सदांच तुंवें चलोंक
तुंवें आशेंवच्या वस्तुंनी आशा म्हजीच लिपोन आसों
आशा म्हळच्या आरशा भितर सारखें म्हजें दिसोंक
तुंवें विंचच्या फुलांनी फूल म्हजें फुलोन अुरों
फुला भितर फूल जावन मात्यार तुज्या सोबोंक
तुंवें जळोंवच्या दिव्यांत दिवो म्हजोय जळोन अुरों
सगळें तुजें जिवीत मोगा सदां प्रकासान भरोंक
तुंवें चोंवच्या दिष्टींत रुपणें म्हजेंच दिसोन अुरों
खंयसर तुंवें देखल्यारी आंजा हांवूंच तुका दिसोंक
तुंवें सपणेंवच्या सपणांनी रुपणें म्हजेंच झळकोन अुरों
निराशेन थकलेल्या जिवाक तुज्या नवो अुल्लास भरूंक
तुंवें सेंवच्या श्वासांत श्वास म्हजोय मेळोन अुरों
सासणाच्या सासणाक मोगा आमी अेक जावन जियेंवक.

## कुड्ड्याचें रुदन

पळेंवक आशेतां
सोधून निरासतां
तुवें रचलेल्या
सोबीत संवसाराक
नयनां असयतां
दुखांनी भिजयतां
नशिबांत फुटलेल्या
हणे – बरपाक !

ओळख सुर्याची
झळक चंद्राची
पळेंवक मेळ्ळी ना
दिष्टीक दोळ्यांच्या !
सोबाय फुलांची
सुकण्यां – सावजांची
वर्णूक कळ्ळी ना
नयनांक म्हज्या !

दिष्टीक लालेतां
तुका प्रार्थितां
दिब्यांनी गळोन
फातराळचे घाटचेर
सदांच सासपतां
मुखार चमकतां
नशिबांत झरयल्ल्ये
परन्ये वाटेर !

# देवाधीन लुवीस मस्करेन्हस

## आदिवचन

म्हा–व्हड झुजाऱ्यांनी पांडवांच्या कालार
केल्ल्यो किर्ती भरीत करन्यो रणा–थळार,
या कांय राय–कुळचेच्यांक आसच्यो खंती, आकांत
सिता–रामान भोगल्या बरी दंडक वनांत,
नासल्यार टिप्पू सुलतानाची निष्ठूर कृत्वां
आमच्या पुर्वजांची देसवाट केल्ली, अथवा
तेन्नाली रामाचे खेळ, हासोवन करूंक फुगार,
असली दाखोण खंयची घालिनांव आज मुखार.
बगर क्रिस्ता पुर्वी दोन सास्र वरसां पयलें
सृष्टी–पुजेंत आसतां आदांवचें कूळ सगळें
हेब्रेवांच्या गांवांत आब्राम म्हळ्ळो अेकलो
खऱ्या जिव्या देवाक भजन करीत आसल्लो,
भजन करच्या वेळार सोमी दिष्टीक पडता
" तुजो मांय गांव सांड तूं, दुसरो दितां " म्हणता.
अुतराक पाळो दिवच्याक परगांवाक तो गेलो,
बेसांव पडोन ताचेर विशेस नंदन जालो.

( **आब्रांवचें यज्ञदान** ह्या गीतनाटकांतली विंचोवणी. )

## मनीस म्हणजे कितें

मनीस म्हणजे किते सांगशात म्हाका ?
मात्येचें अेक घर तें
धनी आसतां सोबीत दिसता
ना तर बेस्टें रितें
आपणा अितल्याक वाडता विचित्र बांधप
वकल नासल्यार पडता
त्या भितर अेक पैणारी
आपलें बिडार करता
परगांवांतलो अेक जण अत्मो सुंदर
जातच आपलें स्थवण
सांडता तें घर अब्ळे मूठ भर
कुसड किडयां पर्वण.

## आमचें दिवें

वरा-पंवडा थैलियो, नाणीं नमुन्यावार
सुवर्णाचो कळवो, नव रत्नां भांगर
मेळाशेंना हांगा कुबेराचें कुडें
अथवा भुताळ-पांडचान पुरल्ले ते हांडे
धरणी पंदल्यो वस्तू कित्तून लागीं धरयेत
फोंडा पर्यंत शिवाय मागीर कोणे व्हरयेत ?
तशें न्हय हें दिवें, माणकां मोत्यां हांतलीं
दोळचांक दिसनाशीं अक्षरांचेर गुंतलीं
कोणाक जायगी ताणी पुस्कळ आरावन व्हरचीं
विज्ञानाच्या कोटचांत गुपीत दास्तान करचीं
विवीध विद्या, जाणवाय, श्रुती-स्मृती सतां
पुंजायलीं तीं चोरूंक जाय नांत मृत्यूक सुधां
शाश्वीत भंडार ! कोंकणी प्रजेक करीत हुशार
हळ्ळे-वळ्ळेंत जो जोण विद्यांत आसा लाचार
सगळो हप्तो घामेवन जे कोण नाडांत घोळतात
आयताराचें पुणी **दिवें** काणघेवन बसतात
मतीक आनी अत्म्याक ग्रेस्तकाय दिवचीं नाणीं
खुशालायेन अुस्तून आरायतात दोळचांनी

मत विकारल्या जाल्यार तेंवी मारचे फातर
विंचूंक मेळतात तांकां कोंकणी दिरव्या भितर
पंचवीस वरसां लागायत आपलें धन तें वांटता
पेल्याक कितलें दिलें तितलें मोठें पडता
कितल्यो गरीब मती लिपोन आसल्ल्यो कोनशांत
आपली ग्रेस्तकाय लाभोवन ह्ाडल्यो ताणे मनशांत
चलय दिरव्या चलय ! लोका सेवेचें काम
अुत्सवाचे काळीं स्विकार आमचे संबराम !

( **कोंकणी दिवें** मासिकांतली विंचोवणी. )

## फा. वलेरियलन मेंडोन्सा

### सांग म्हाका कोण तूं

घडघडचाच्या आवाजांत आयकता तो नाद तुजो
झगलाण्याच्या प्रकासांत दिसोता तो हात तुजो
प्रितुमेच्या सोबायेंत चाकोतां तो स्वाद तुजो
सागराच्ये गुंडायेंत देखोतां अनंद तुजो.

सांग म्हाका कोण तूं ? सांग म्हाका कोण तूं ?
मळबाचेरी बसोताय, प्रितुमेरी नाचोताय
सांग म्हाका कोण तूं ? सांग म्हाका कोण तूं ?

बाळकाचेरी प्रजळताय, साळकाचेरी परमळताय
फुलाचेरी फुलोताय, फळाचेरी धलोताय
सुकण्यां वेरी अुभोताय, सावजां वेरी अूंच चडताय
अंतरीक दोळयांक दिसोताय, आत्मीक कानांक आयकोताय.

सांग म्हाका कोण तूं ? सांग म्हाका कोण तूं ?
मळबाचेरी बसोताय, प्रितुमेरी नाचोताय
सांग म्हाका कोण तूं ? सांग म्हाका कोण तूं ?

सुर्याच्या हर किरणांत, चंद्राच्या त्या प्रकासांत
नेकेत्रांच्या मिणमिण्यांत दिसोता तो वैभव तुजो
म्हज्या ल्हानशा ह्या काळजांत, अस्कत खालत्या बिडारांत
कुडींत तशें अत्म्यांत अनंद दिता स्पर्श तुजो.

सांग म्हाका कोण तूं ? सांग म्हाका कोण तूं ?
मळबाचेरी बसोताय, प्रितुमेरी नाचोताय
सांग म्हाका कोण तूं ? सांग म्हाका कोण तूं ?

काळीज म्हजें पेटयलांय, मोगान तुज्या नेटयलांय
म्हाका तुंवें आपयलांय, ओळखोंच्याक तुका नेमलांय
आयकोंक तुका आशेतां, पळेंवक तुका लालेतां
भोगूंक तुका पेचाडतां, मोगाक हांव तुज्या लागतां.

सांग म्हाका कोण तूं ? सांग म्हाका कोण तूं ?
मळबाचेरी बसोताय, प्रितुमेरी नाचोताय
सांग म्हाका कोण तूं ? सांग म्हाका कोण तूं ?

## पयलो पिको केस देखतना

अुठोन फांत्यार आरशा मुखार
रावोन हातीं घेवून रेजर
लावून साबू मुखमळार
काडच्याक खाड म्हणची ती ल्हींव
जातच आयतो चिमणे अुजवाडाक
अस्पष्ट तरी तिळतालो लोब.

कसलें अजाप ! देखतां कितें ?
काळख्या रानांत धवो सोसो
काळोख फासळावन अुदेला चंद्रीम
लोखंड अुसळावन पालेला रुपें
अपुर्बायेचो केस तो नवो
कपला बगलेक किरलाला धवो.

केस तो नवो, केस तो धवो
पिको या तरनो, मेल्लो या जिवो
अनुभवा गूण तो ? प्रायेचो अूण तो ?
सोबायेन तो भरला, मात्यार घनान चरला.

नमन तुका, धव्या केसा
अेकसुऱ्या तूं ह्या दिसा !
खंयसर तूं आसल्लोय कालच्या दिसा ?
बापूय तुजो, आवय तुजी

नासल्लीं पिकीं मात्यार म्हज्या
खंय थावन आयलोय अनाथ भुरग्या ?
आसात तुका भाव भयणी ?
गर्भ संभवच्यांत तरी घेंवक ना जल्म ?

प्रायेस्तांच्या मात्यार देखल्लें तुका
म्होंव लायल्ल्या बोडाक चोयल्लें तुका
म्हाताऱ्या म्हाताऱ्ये लागीं सयरीक तुका
कित्याक पडलाय मोगार म्हालगड्यांच्या ?

रंग तुजो बदल्ल्यारी, रूप तुजें नितळ्ळ्यारी
रूपें मात्यार पिकयल्यारी, मरण तुंवें भोगल्यारी
स्पिरीत म्हजो नवो जिवो
चाबोन दांत दितां स्वागत
अेकसुरो ये, जम्यान ये
भियाच्या धैर्यान, रागाच्या मोगान
स्वागत तुका, स्वागत म्हणतां.

आपोवण्या विणे आयल्ल्या
राव या वच, खुशी तुजी जांव पवित्र
हांव मात्र चलतलों फुडें.

पयलो काळो केस पिकतना
पयलो धवो केस उदेतना
पयलो पिको केस देखतना ————

## आजेचो आनी नातिचो काल

सांग व्हडली मांय, सांग व्हडली मांय, म्हणताय न्हय गो पुता
साठ सत्तर वरसां आदली आमच्या गांवची कथा.
म्हाताऱ्यांच्यो काणियो म्हळ्यार चेडवाक भारी खुशी
गरजेची अेक गजाल सांगतां–कान दिवन आयक गो लुसी.

ते जाल्यार दीस, अुगडास तांचो दोळे भरी दुखान
सादीं नेंटीं भुरगीं आमी वाडल्यांव खऱ्या सुखान
भागी स्वादीक दीस ते गेले बुडोन वेळा दर्यांत
पाटीं केदीं मेळाशे नांत केदीं सासण पर्यंत.

अेक प्रायेचीं भुरगीं आमी आयतार सांजे मेळोन
दोतोर्न जातच घरा वेतच शेजारा आसल्यांव खेळोन
मिलियान आनी गरास मरी, भयणी म्हज्यो दोगी
अेस्तू बावडें–आंजाक ताका देवान व्हेलें वेगीं.

त्या कालाची मर्जी कितें विचारतायगी पुता
आतांच्या भुरग्यांक तुमकां ते खंय सक्कड रुचता ?
नासल्लें शिकप, नासल्लो दरबार, नासल्लो तवळ हंकार
फेशनां कांय नासल्लीं पुता सादे सक्कड गांवकार.

आमच्या कालार काजार जातच वोर्ळ घालिजाय आसलें
आतां भुरग्यांक सात वरसांचेर ‘ वोराल ’ आंगलें
आंकवार चेडवां कापडां न्हेसतात, कितें म्हणा नाये
माणसुगेची न्हेसोण म्हणयां–तूं जाल्यार न्हेस बाये.

कुमगाराक म्हण केल्लें म्हाका सुसियेचें अेक आंगलें
किरगी न्हेसता पर्यंत तेंच म्हण मांयन सुरबरेच सांगलें
आतांचें तें सांगचें कितें ? दौलत लेखा वरती
न्हेसणाचे नेट अवतार पळे–पेजेक ना गत पुरती.

घरां पोकळ, कळंब्यो खाली, मनीस सुदा लाचार
खाणांत, न्हेसणांत, चाल चमकणांत सरदारांचो आचार
प्रायेन पुता, ल्हान तूं जालेंय, नासल्यार जायतें सांगतीं
व्हडलीं व्हडलीं घरां आमचीं पडलीं कशीं वोमतीं ?

बापायन केल्लें पुतान काडलें चार दिसांनी लगाड
बोतली बोतली ताळचार वोतून असोयी जालो विबाड
गरजे विणे मर्जी चलोवन प्रजेक आयली देस्वाट
नाका–मरों–अुलोवन कित्याक तोंड करिजाय पाड ?

## नेंटी काणीक

अेकलेंच अिगरजेंत तें रिगलें
आठ वरसांचें भुरगें
दिंबी घालून हात जोडी लागलें
आंजळ ताचें सारखें.

जेजू, जेजू, अळे आयल्यां
नमन करूंक तुका
लागीं लागीं ग्रादीक रावल्यां
मोगान पळे म्हाका.

जेजू, जेजू म्हज्या मोगा
मोग हांव करतां तुजो;
कितलो मोग म्हण म्हज्यान तुका
समा सांगोंक नजो.

तुका हांवें हाडल्यात गुलोब
हांगा ग्रादीर सोडतां;
त्या प्रास काळजाचो मोग दुलोब
सगळोच तुका दितां.

आनी अेक वस्त हाडल्या ही हांवें
कोण्णाक कळींत ना ती;
तुका जेजू कागद मटवें
बरयल्लें काल राती.

बायेक म्हज्या दाखोंवक ना तें
चुकी समा करूंक;
चुकी आसल्यार तांतूं कितें ?
भुरगें न्हय हांव बरोंवक ?

कागद, अळे हांगाच सोडलां
तूं तें पळे वाचून
काळीज म्हजें तांतूंच घालां
काडच्याक तुवें विंचून.

आयच्यान जेजू तुजींच जातां
तुवें जायजय म्हजो
आमचो दोगांचो मोग आतां
कोणेंच तुटोंवक नजो.

## आवय आपल्या अंतरलेल्या भुरग्याक

फुलच्या आदीं बावलेंय पुता
बोंग्यार झडोन गेलेंय
माली तुका भुलोवन गेला
वेगींच देखून व्हरोंक आयला
तशेंय कित्याक सोबलेंय ?

सोम्या म्हज्या, दिलेंय ताबेन
सोबीत सुंदर माणीक
पडलें ताचेर काळीज म्हजें
विसरलीं हांव तें म्हण तुजें
वेगींच मागलीय काणीक.

धर म्हण दिलें हृदय तरी
वेता दिसलें फुटोन
कसलें अकलास ! हा कसले जाळ
सांडून म्हाका गेलें तें बाळ
मोगाचे पास तुटोवन.

बोंगो असोन सोबता आतां
सर्गी फूल तें आंजाळ
थंयसर पुता अुगडास काड
बरें सर्वंय मागोन धाड
आवयक तुज्ये मोगाळ.

## जॉन बॅपटिस्ट मोरायस

### जिणें कितें

जिणे कितें दर्याक वेच्या
दोणी बरी वादळाच्या
घासाक सांपडोन हर अेक घडी
मोसांत अुरोन नास जायत तरी
मानव जागतो अधीक बळान
घनान वरत्या धरीत सुकाण
तडीक दुसऱ्ये पावता पर्यंत
घडी हर अेक जिण्ये दर्यांत
अपाय भरीत भिरांतेची
अुपाय नासल्यार निराशेची
जातच घडियांक थोडचा शांती
येता मनशा तोंडार कांती
खिणा भितर अुठता वादळ
जिण्ये दर्या करता खदवळ
पिशे बुदीन बांधल्लें अुसळोन
आशा गोपूर पडता कोसळोन
कशी सुर्या कांती भुमीर
कुशीन लोटून पडता तिमीर
तशें शांती जिण्ये सागर
पिशें वादळ करीत अघोर.

## काळजांत म्हज्या मोग किरलाला

चंद्रेमाक आज खुशी जाल्या आयला फुलोन
बेटा बैलांत रानांत वनांत अुजवाड फांकोवन
नेकेत्रांनी पेटयल्यात आज हजार वाती
काळजांत म्हज्या मोग किरलाला आयच्ये राती.

रुकार बसोन कोगूळ आपलो भांगरा ताळो
मेळयत आसतां चडत गुळगूळ अुदका व्हाळो
काडचां मेटां वाऱ्यार धरून हाताक हाती
काळजांत म्हज्या मोग किरलाला आयच्ये राती.

साळकां बदकां लजेन चोयतां घेतां चुंबन
प्रशांत तळ्यांत ल्हारां सैती भोगतीत कंपन
लजेन तांबशे जाल्यात वोडतांत गुलोब सैती
काळजांत म्हज्या मोग किरलाला आयच्ये राती.

आयच्ये रातीं हर अेक सादें अुतर तुजें
कानांत म्हज्या पडत रंगीत गायन जशें
वारें सैती व्हाळता भोंवती गायन गायती
काळजांत म्हज्या मोग किरलाला आयच्ये राती.

बदका जोडें तळ्याच्ये गुंडायेंत सवकास धलता
चांप्या रुकार कोगूळ ताका ताळो दिता
बेबे सैत अुडकणां घालतात संतोसाचीं
काळजांत म्हज्या मोग किरलाला आयच्ये राती.

ही रात निर्मळ चंद्रेम तारां दितात गवाय
कोगूळ बदकां सांगतात आमकां "नाका पावय"
लजेन तांबशें वदन तुजें घेतां हाती
काळजांत म्हज्या मोग किरलाला आयच्ये राती.

## तुजो हांव रिणकारी

प्रकास तुजो दोळ्यांक
तोपता धन्या
तुज्या अुज्वल प्रकासांत
म्हजी झळक हांव फांकतां
सुर्याक धरच्या
आरशा बरी
काळें मोड अेक
आडयत तर अुजवाड तुजो
हांव अेक काळोखाची रास
तुज्ये धगधगीत अुबेंत
हांव तापलां
अुज्यांतल्ये कोयते बरी
तापोन हांव तांबडो जालां
जशी कोयती बडोवन
हाडयेत जाय तो आकार
तसो म्हाका बडय धन्या
हाड तूं म्हाका रुपार
काळजांतली अूब

निवूंक सोडी नाका
तुज्ये मुठिंतली माती हांव
बोटांनी तुज्या दांबून पुसून
कर तूं अेक मुर्ती
तुज्या मना जोकती
जल्मांत हांव रिणकारी
मरणांत हांव रिणकारी
तुज्या अुदार हाता शिवाय
जीण म्हजी पापारी
अुजवाड तुजो पालवयशी
अूब तुजी निवयशी
मूठ तुजी सोडयशी
हांव कितें
काळोख
थंड लोंकडा कुडको
आनी धुळिची रास !

## सुकणें आनी चितळ

आकासाच्या सुकण्यांनो
दिया म्हाका पाकां
कापसाच्ये हाळवायेचीं
वाऱ्याच्या वेगाचीं
माडोन पर्वत दोंगर
अुतरोन सात सागर
पांवच्याक त्या गांवाक
जय सर व्हाळनांत दुखां

तळयाच्या ल्हारांच्या
हाळवायेच्या पाळण्यांत
धलच्ये त्ये खोल्ये बरी
अेकसुऱ्ये वाटे वयलो
वाऱ्या रूक
सांजेच्या वाऱ्याच्या
संगिता अमालांत
फांटे आपले
हालोंवच्ये बरी
मन – सुकणें म्हजें
कुडिच्या पिंजऱ्यांतलें
सुटोंक आशेता
स्वातंत्र्याक लालेता.

रानांतल्या चितळांनो
वेगाच्या मित्रांनो
दिया पांय तुमचे
वाऱ्यार अुबचे
रानांतल्या अुज्या थावन
धांवतात जशें अकलासान
धांवच्याक हांवें मोसराच्या
अुज्या थावन अिष्टांनो.

आकांताच्या अवसरान
वाऱ्या वयलीं मेटां
काडच्ये बोकडेच्या पिला बरी
बोंटेच्या जाळाच्या
भिरांकूळ घासांतले
चुकोन धांवच्या
सोस्या बरी
म्हजें मन – चितळ
मोसरी अुज्यांतलें
घातकी पासांतलें
सुटोंक आशेता
धांवोंक पळेता.

## निमाणें ती रडली

झुजाक गेलो तरनो पती
सांडून स्त्रियेक सुंदर
अुसकयार आसल्लो वरसाचो बाळ
हासतो पुनवे चंदर.
हासत्या तोंडान आदेवस मागलो
अंनदाची पावळी
गळ्ळी पोल्यार, धरलें अरनून
बाळाक आपल्ये पासळे.
हपत्यान हप्ते आयली खबर
विरत्वाची ताच्या
आयकोन भरलीं अुमाळ्यांचीं
ल्हारां काळजांत तिच्या
पूण हाय ! आयलो दीस अेक जेदना
पडलो तो रणा थळार
हाडलो वरत्या मानान घरा
मातेच्या वीर पुत्राक.
रडली आवय, रडलो बापूय
रडले मित्र हजार
रडले सगळे आटोवन ताचीं
वीर करतुबां सबार.
पूण ती अुभी फातरा बरी
दोळ्यांत नासल्लीं दुखां
आसल्लीं तरी गळ्ळीं नांत तीं

दिसलीं अुज्वल थिकां.
हाडलें तिका सर्शीन ताच्या
निमाण्ये त्ये भेटेक
अुभी केली हाताक धरून
तेंकोन मरणा पेटेक.
तरी दोळ्यांत आयलें ना दूख
तोंडार ना रडणें
देखतेल्यांचे विळाप जाले
तिचें मन ना कडलें
आयलो अेकलो काडलें वस्तूर
तोंडाक लिपयलेलें
वर्णन केलें साहस ताचें
झुजा थळा वयलें.
पूण ती रावली अुभी थंयसर
जशी शिला मुर्ती
रडली ना ती पडली ना ती
बदल्लेली पुरती.
अुठली अेकली, हाडलो तिणे
पाळण्यांतलो बाळ अुठोवन
दिलो तिच्या अुसक्यार, अब्ळे !
जसो काट तुटोन
व्हाळता व्हाळ तशें तिचीं
गळ्ळीं पोल्यार दुखां
रडली सांगोन "तुजे शिवाय
कोणाक वांचों पुता ?"

## ताप नायक, जे. स.

### नवरो बाबुलो

गोटयांत आसा पाडकुलो
गळयांत ताच्या खिळखिळो
नवरो म्हजो बाबुलो
लोण्येचो बुडकुलो.

माडार बसला कावळो
बोंचींत धरून हुंदरा पिलो
नवरो म्हजो बाबुलो
भांगराचो कोळसुलो.

तांबडो आमचो कोंबलो
कोंबियां वांगडा भोंवलो
नवरो म्हजो बाबुलो
होकलेक तुमच्या भुललो.

गांवांत आसा मावळो
शेतांत ताच्या कुवाळो
नवरो म्हजो बाबुलो
रशिमाचो तुवालो.

शेतांत चरतात पाडे
जाळांत पडल्यात बांगडे
नवऱ्या म्हज्या बाबुल्या
धेडे तुजे लंगडे.

## आमोरेच्या वेळा

आमोरेच्या वेळा
जांबळा पोंदा
आपालिपा खेळूंक
भेट जाली तांची.

सुताऱ्याच्या चेडचा
मोगार म्हज्या पडलाय
काळजांत म्हज्या घोंटेर
कित्याक तुवें बांधलाय ?

कुंभाऱ्याच्या चेडवा
सांगों तुका कशें
रूप सगळें तुजें
सोबायेचें कुंडलें.

सुताऱ्याच्या चेडचा
तुका लागलां पिशें
सोबायेचें कुंडलें
पिंजताय कित्याक आंगलें ?

कुंभाऱ्याच्या चेडवा
तूं गो म्हजें अुशें
ताचेर दवरून मातें
सूख घेतां थोडें.

सुताऱ्याच्या चेडचा
केदना हें घडचें
बापायन तुज्या देखिल्यार
हाड अुरत आमचें ?

कुंभाऱ्याच्या चेडवा
काळजांतुल्या कुंडल्या
बुडकुल्यांत जें शिजता
कुंडल्याक कशें कळचें ?

सुताऱ्याच्या चेडचा
सगळें म्हाका कळता
कुंडल्यांतूय लासता म्हण
गांवार सांगून भोंवचें ?

कुंभाऱ्याच्या चेडवा
काळजाचें तूं कालूं
म्हजे पासळेंत तुका
केदना हांव घालूं ?

सुताऱ्याच्या चेडचा
तूं म्हजो गोंडो
चेडे सगळे कुंडो
तूं लोण्येचो अुंडो.

कुंभाऱ्याच्या चेडवा
तूं म्हजी सोबाय
तूं म्हजी पोपाय
रात आयची गवाय.

सुताऱ्याच्या चेड्या
तूं मोगरे कळो
कायलीर भाजता पोळो
लासता म्हजो गळो.

कुंभाऱ्याच्या चेडवा
आजून कशें सांगों
तेलत्यो तुज्यो जांगो
केदना हांव मागों ?

सुताऱ्याच्या चेड्या
तूं म्हजो आंबो
जाताय तर खांबों
पेटयन घरांत दिवो.

कुंभाऱ्याच्या चेडवा
हांव गो तुजो दिवो
मांडचेर तुका न्हिदून
मारीन तुज्यो अुवो.

सुताऱ्याच्या चेडचा
दितां तुका रुपें
हाडताय तर सोनें
जातां हांव तुजें.

कुंभाऱ्याच्या चेडवा
तूंच गो म्हजें सोनें
तुजे सामकार सगळें
दिसता हलकें रुपें.

सुताऱ्याच्या चेडचा
अुतरां तुजीं असलीं
आसतीत जर नकली
फुटयन तुजी तकली.

जातना अुलोवणे मोगाचें
चांदने पडूंक लागलें
सुताऱ्याच्ये हुळहुळचे वेंगेंत
कुंभारीण लिपून गेलें.

जांबळार बैसून
चोयलें सगळें कुंभारान
जोडचाक बेसांव दिवन
जांबळ अुडयले वयल्यान.

## गोंयकारा

गोंयकारा, गोंयकारा,
आयक म्हज्या कुवरा
सांड तुजी आळसाय
सोड तुजी बडाय
तुजे भोंवती कितें चलता
ताचेर मातसो दोळो लाय.

गोंयांत कोण राज चलयता
गोंयांत कोण व्यार करता
कानडी, मराठी, तमीळ, मळयाळी
सिंधी, गुजराती, पंजाबी, बंगाळी
तूं मात न्हिदलाय सुशेगात.

शेजारचे पिले हांगा आयले
गोंयच्ये मात्येंत गोंयकार जाले
गोंयांत मात गोंयकार आमचे
परकी पडले फिरंगी जाले
आपल्याच घरांत परकी जाले.

घरांत तुज्या दुकरा मास
ओंठार तुज्या फिरंगी भास
तोंडार तुज्या सोऱ्या वास
गांवार तुज्या फेस्तां रास.

गोंयकारा, गोंयकारा,
न्हिदेंतुलो जागो जा
तुज्याच घरांत तुज्याच गावांत
लिपून वेचे आदीं
तूं भावा आयतो जा.

गोंयां जरी स्वतंत्र जालें
गोंयकार तशेच सुशेगात उरले
दोळे आसून कुड्डे जाले
शेलें आसून चिवळून बसले.

ह्या पासांतले घासांतले
ह्या गुलामपणाच्या बंधनांतले
मेकळे जावपाक सुटका घेवपाक
अेकूच वाट उरल्या.

रावय तुज्यो परबो फेस्तां
अणी जांवदीत सोऱ्या तावेरनां
बंद पड्ंदीत नाचपा सालां.

मागीर कितें, आयक पुरतें
घुमटाच्या तालार रेबेकाच्या नादार
जिवाळ जांवदीत आयकूंक येंवदीत
कुणबी नाच गावडी नाच
खारवी पदां कोंकणी गितां
सिगम्या खेळ अित्रूज खेळ
गोंयच्या वाऱ्यार गाजोंदीत
मांडो, देखणी ओवियो गितां
फुगडी, जागर लोकखेळाचीं रुपां
ही गोंयची कला
ही कोंकणी कला
वयर काड गोंयकारा.

## काळजा आंगणांत

आंगणांत गो चांदनें पडलां
आंगण सगळें भरून गेलां
काळजांत गो फूल फुल्लां
काळीज सगळें वासान भरलां.

वाऱ्यार गो वारें व्हाळता
वाऱ्या वांगडा रूक धलता
काळजांत गो तूं नाचता
नाचान त्या काळीज कांपता.

चुलींत गो अुजो जळता
जळत्या अुज्यार बांगडो भाजता
काळजांत गो आग चरता
जळत्या मोगान लासूंक लायता.

खारवी गो दर्याक गेला
मासळी घेवून येंवचो जाला
काळीज गो होडें जालां
तुका व्हरूंक आयतें रावलां.

रेंदेर गो माडार चडता
माडार चडून सूर हाडता
काळजांत गो सितार खेळता
खेळून खेळून सूर घडता.

शेतांत गो भात पिकलां
भातांत तांदूळ लिपला
काळजांत गो तूं घुसलां
घुसतना दार मडून पडलां.

दीस गो धारेर पडला
देखून घरांत दिवो लायला
काळजांत गो दिवली हाडल्या
दिवली चोयतां रात संपल्या.

रुकार गो पोपाय पिकल्या
पोपाय खावूंक कावळो बसला
काळजांत गो पोपाय शिरल्या
काळीज सगळें रोसाळ जालां.

दर्यांत गो वादळ अुठलां
वादळान पावस पडला
काळजांत गो तुवें वोंपलां
बीं किरलून झाड जालां.

झाडाक गो फळ जालां
फळ मात कोणें व्हेलां
काळीज गो तुवें चोरलां
सोधून हांव हांगा पावलां.

## आमी अेक

अेक्येच मात्येंतलीं आमी पाळां
अेकाच रुकाचीं आमी फळां
तर कित्याक रगताचे व्हाळ
रगताक लागून काळजाचे जाळ.

अेक्येच आवयचीं आमी पिलां
तिच्या पोटाचीं आमी बाळां
तर कित्याक हीं झगडीं
झगड्याक लागून भुरगीं नागडीं.

अेकाच रुकाचे आमी खांदे
अेकाच खांद्याचे आमी फांटे
कोणे केले हे वांदे
आमच्या काळजाक तोपून कांटे ?

अेकाच देवाचे आमी चाकर
ताच्ये सेवेंत हजार प्रकार
देवाच्या नांवान कित्याक मारफार
निरपराधी लोकांचे जातात हालहवाल.

अेकाच घराचे आमी खांबे
अेकाच घराचे आमी दिवे
धर्माच्या नांवान वळवळे
करतांव काळजाचे कळवळे.

आमचींच पाळां कातरून
आमचींच मुळां अुस्तून
कितें आमी साधलें
फक्त नागडेपण दाखयलें.

## साक्रिफीस

लांब खाडाचो विगार आमचो
मेणा वात पेटोवन मागणे करतालो
दोळे धांपून तकली बागयतना
खाडाक ताच्या अुजो लागलो
लोक सगळो आकांतान भरलो
" सायबा, सायबा " बोबाटूंक लागलो
मिरन्याम आमचो गुणगुणतालो
" सोम्यान ताचो साक्रिफीस मानून घेतलो. "

## अुंचलो संबंध

अुंचलो संबंध, नवरो ग्रेस्त
रीण काडून, दोत मेजून
जांवय केल्लो बटलेर बोस्तून
काजारी जोडें काश्मिराक अुभतच
सरकारी बस्सार बोंबय गेला बोस्तू
काम कर्न रीण पावोंक.

## अंतर

दुबळ्या गुस्तून काजार केल्लें
अंड्या मासाचें जेवण दिल्लें
पार्टी वेतना सयरे म्हणताले
दुकरा मासाक मीठ अुणे जाल्लें.
सावकार रुजारीन काजार केल्लें
फिरगजेच्या हॉलांत कान्यें आसल्लें
कान्यें संपतना सयरे म्हणताले
ग्लुकोस बिस्कीट बरे आसल्ले.

## बेनेफीट शो

" दुबळचां खातीर " नाटक खेळोवन
आमच्या संघान पैशे जमयले
प्रेकटिसा वेळाच्या काप्येच्या खर्चाक
जमल्ले पैशे अुणे पडल्ले.

## आपोवणीं

" देव आपोवणी " वाडच्या खातीर
नोव दिसांचें आसल्लें नोवेन
मुखल्या हपत्याच्या चारच दिसांनी
धा जण मेले रसत्या अवघडांनी.

## जेराल्ड पिंटो

### दुबळी नारी

रचनारा, जर म्हाका ससी केल्लीय
दोळे नासल्ली, कान नासल्ली
मेंदू नासल्ली, काळीज नासल्ली
कोडू काजऱ्याची, दिकाळी अुऱ्याची
बिडार नासतां न्हेसण नासतां
मोग नासतां मयपास नासतां
कित्याचीच फिकीर नासतां
संतोसान हांव जियेतीं !

जर म्हाका सुकणें केल्लेंय
काळो कावळो, धवें दोंक
जाणवाय नासतां, भोगणां नासतां
आसरो नासतां, आधार नासतां
तुपें नासतां, न्हेसण नासतां
जाग्यान जागो अुबोन, वैरीं थावन पळून
धर्म नासतां, कर्म नासतां
सुखान हांव आसतीं.

जर म्हाका मासळी केल्लीय
ल्हान तारलो व्हड बांगडो
खंत नासतां भिरांत नासतां
राग नासतां मोग नासतां
विशाल समदिरांत अुप्येतीं
गूंड अुदकांत निशेतीं
कोणाचेंय पोषण जावन
कोणाकी हांव अुपकारतीं.

जर म्हाका फूल केल्लेंय
जावन केदांतलें कमल
वा स्वाद नासचें ल्हान फूल
पिसोळ्यांक हांव पिसवायतीं
भंवरांक हांव मेचवायतीं
आल्तारार सजतीं, गळ्यांत प्रजळतीं
कोणाचीय धोस नासतां पर्वा नासतां
जिवन म्हजें सारतीं.

तुंवें तकली दिवन भोगणां दिवन
दोळे दिवन कान दिवन रचलीय
म्हजो मस्त मोग केलो म्हण लेकलेय ?
केलीय कित्याक अबल नारी लोकांत तणा सरी
दिलीय कित्याक दुबळिकाय अपहरून म्हजी सोबाय ?
संपता म्हजें जिवन तीस वरसां आंकवार अुरोन
वालीक आधार ना रुकाक सहजल्लें फळ ना
रचलीय कित्याक नारी अबलतेची बंधी जावन ?

## पार्क

रंगाळ वस्तुरांनी
विवीध नमुन्यांनी
कूड तुजी नेटयताय
धाराळ वस्तूर आसल्यारी
दुडवाचें भिकारपण नासल्यारी
कूड तुजी विणगी सोडताय
रावळेरा सारखें घर आसल्यारी
पंखे रात दीस धुंवल्यारी
पार्कांनी येवन लोळताय.
म्हज्याय आंगर वस्तूर ना
हाडूंक हातांत देडकी ना
पूण मळब म्हजी लज धांपता
रावोंक म्हाका आसरो ना
म्हजीच म्हळ्ळी सुवात ना
हें पार्क म्हाका आसरो दिता
हांवें कसलें पाप केलां
कोणे तसलें पून केलां
भिरांकूळ आमच्या ह्या अंतराक.

## चत्राय

वेगान चड अुभार दोंगर
आसचे तुजे समोर
सवकास दॆंव हृर अेक दॆंवणी
तुका मुखार मेळची
वेगान चल मैदान सुवात
अपरूप ती मेळत
दोंगर मैदान आनी दॆंवणी
रंगाळ करतीत सृष्टी
सूख दूख धादोशी मत
जिवीत करतात लवलवीत
अुभार दोंगर देखोन पळशी
जिविताची गोडसाण ना चाकशी
पळेवन दॆंवणी जोरान धांवशी
निसरून सकला पडशी.

## मात्येचीं आयदनां

हांव गोरो, तूं काळो
हांव बरो, तूं भेरो
हांव म्हार, तूं कामगार
हांव बोणको, तूं कोंकणो
हांव हिंदू, तूं मुस्लीम
हांव गोंयचो, तूं खंयचो
हांव देशी, तूं परदेशी
सदांची लडाय रावोंक आयकना
पूण सर्व अेकेच मात्येचीं आयदनां
कळीत जाता फुटोन माती जातना.

## आंब्या रूक

काल हांवें देखल्लो
फुलांच्या स्वादान
पिसोळचांच्या रंगान
भंवरांच्या आवाजान
मजा करचो आंब्या रूक
आज हांव देखतां
पिसोळीं नांत भंवर नांत
कारण रुकार फुलां नांत
रूक रडता अेकसुरो आसोन
मळबा वयल्या मोडाक पळेवन.

## जोस्सी पिंटो

### साळक म्हजें

रातच्या चांदन्या अुदेवन ये
चांदन्या, तूं हासतना
साळक म्हजें फुलतलें.

निस्तेज अुदकांत साळक म्हजें
येण्याक तुज्या राखोन रावलां
सुगंधाचें चील घेवून
चांदन्या तुका आशेवन रावलां.

कोमल कुडिचें साळक म्हजें
पाकळचो आपल्यो फुलोंवक आशेलां
दीस सरोन रात आयल्या
साळक म्हजें आशेन भरलां.

रात सरोन आयलो दीस
चांदन्या, तूं अुदेलेंनाय.
आशेवन तुका साळक म्हजें
फुल्लें ना केदींच हाय !

कालची रात अमाशेची साळका
चांदनें कशें येतलें ?
राखोन राव्यां साळका म्हज्या
चांदनें फाल्यां पुणी अुदेतेलें.

आशेवन चांदन्याक थकलां साळक
चांदनें केदींच अुदेलें ना
निर्भागी म्हजें साळक बावलां
केदींच तें फुलचें ना !

## सांजेचो मधूर ताळो

सुकलेल्या रुकाच्ये निद्रेस्त फांटयेर
सोबीत सुकण्यान आसरो घेतला
सदांच सांजेर काळजांत म्हज्या
सुकण्याचो मधूर ताळो विणला.

सुकण्यान त्या आसरो रचला
निर्जीवतेंत जिवाळ चरला
निर्जीव रुकाच्या हर अेक कणांनी
मधूर ताळयाचो निनाद खंचला.

सांज जातां रात जातां
आयकता मधूर ताळो
दुखा सुखाच्ये कोडसाणेचो
अेक मधूर संगीत व्हाळो.

त्ये सांजेर रुकार संभ्रम दिसलो
दोन जिवांचो जल्म जाल्लो
आवय सुकण्यान संतोस आपलो
मधूर ताळयान व्यक्त केलो.

दीस सांजो जायत्यो आयल्यो
सुकण्याचो ताळो गाजत रावलो
पिलांक तांच्या खाण हाडून
संतुष्टी जिविताचो परमळ भरलो.

हिंवाळांतल्ये अेक्ये सांजेर
सुकण्याचो ताळो बंद जालो
कौतुकायेन चमकलों तेवशीन
निद्रेस्त फांटो निर्जन दिसलो.

खाण हाडूंक गेल्लें सुकणे
शिकारेगाराक बली जाल्लें
सोबीत तिचीं ल्हान पिलां
अुरलीं घोंटेरांत गळोवन दुखां.

दोगांयक व्हेलें घरा हांवें
पोसलीं व्हडा मोगान
आतां दिसाच्ये हर अेक्ये सांजेर
सुकण्याचो ताळो जलमला म्हज्या घरांत.

## राखोन रावलां मोगा

फांत्याच्या दोवाक निद्रेस्त वदन घेवन देखतां
अुदका गुंडायेंत पडलेल्या फातराचे तरंग चोयतां
भविष्य काळाच्या चितनांचीं ल्हारां आटोवन
शून्य भविष्याक देखोन रडतां.

मोग आयलो, मोग गेलो जिवितांत म्हज्या
अुजवाड आयलो काळोख भरलो काळजांत म्हज्या
काळोखांत आधाराक पेटयली वात
करूंक पावली म्हज्या काळजाक अपघात.

चितून बसलां, मतींत भरलां वादळ
मोग आशेवन रावलां, दिसता फकत निरास
परक्या वेंगेंत आसाय मोगा, भोगतात म्हाका बंदपास
अुगडास तुजो काडतां मोगा जिण्येंत म्हज्या सदांच.

सोबाय केदींच अुरना मोगा अमर
दुरबळें काळीज रडता तुज्ये तस्विरे समोर
जिण्येंत म्हज्या अुजवाड लिपला भोवच दूर
रावतलों सदां राखोन तुका करूंक स्विकार.

## सोबीत फांतें

मळबार वर्णमय राज मोडांचें
म्हज्ये मतींत कल्पन ल्हार चिंतनांचें
भोंवती दाटलेल्ये हिंवाळ धुंवरिचें
जिवन तें सोबीत फांत्याचें.

चिंतां, देखतां लेखणी झरता
पृथ्वी सोबायेच्या चिंतनान मत भरता
फांत्याची सोबाय ही सदां अमर
मतींत भरतात चिंतनां सबार.

देखतां, चिंतां, भूक ना थांबता
लिखची आशा मतीं सोबता
लिखतां लिखतां फांतें हें सरता
सोबायेचें हें फांतें कित्या मरता ?

दुसऱ्ये रातीं राखोन रावतां
मधूर फांत्याक जेमेवन बसतां
फांतें तें सरोन वेता
हांव न्हिदेंत फांतें सोधतां.

## कवी आनी रवी

कवितेच्या अुतरांतल्यान
कवी तो चमकोन गेलो
गुडचा मधल्या खांचियेंतल्यान
रवी तो अुदेवन आयलो.

रवीक देखोन कवी रडलो
कवीक देखोन रवी बुडलो
कवितेच्या अुतरां मधें
रवी तो अुदेवन आयलो.

जिण्येंतलें कोडू लिखून
कवी रडोंक लागलो
वाचून लोक व्हडे खुशेन
कवीक वंदूंक लागलो.

कूड लासून रवी बावडो
मनशाक सुखी करी लागलो
मत आठोवन कवी बावडो
काव्य सागरांत बुडून गेलो.

जिण्ये धांवणेंत कवी
भोवच पाटीं उरलो
अेक थेंव्या दुखान
लोकान ताका आदेवस मागलो.

कवी तो चमकोन गेलो
मात्येंत तो माती जालो
पूण लिखल्लें ताणे लोक वाचतां
कवी परत जिवो जालो.

## ल्यॅनसेलेट पिंटो

### फूल

जिविताची अवधी थोडयाच घंटयांची
'अमर ती जांवदी' चिंतनां नेंटयांचीं
जिवीत ताचें झाडार आनिकी खेळोंदी
घेवन ताका सबार मस्तकीं माळुंदीत.

फुलता तशें बावता, फूल तें सोबीत
हासता तशें रडता, जिवीत तें कोण वर्णीत ?
फुलता तेदना धलता, समाज ताका माळता
बावतच फकत हालता, लोक ताचेर जळता !

समाजाच्या अनंदाक फुलच गरजेचें
परमळीत प्रसादाक तेंच ताका मर्जेचें
खुंटतात ताका माळतात, मात्यार घेवन भंवतात
वता दावेक बावतच, रसत्यार कचऱ्याक अुडयतात.

कवनां विणता कवी फुलत्या फुलाच्या मोगान
मोव किरणां फांकता रवी सदांच अेका मापान
तर बावतच कित्याक झडयतांव फुलाक झाडा थावन ?
अर्पिल्ल्या ताका अुडयतांव फुलाक, देवा चरणी थावन ?

भेदभाव नासतां दुसऱ्याक सर्मापिल्लें कितलें बरें जिवन
आमीय आशेतांव आमचें जिवन आदर्श तुजें पिवन
पेल्याच्या कष्टा आकांतानी पावोन सर्वांक संतोसांवक
संवसारी जिणी चार दिसांची काणी देखिभरीत जांवक.

## पाटलावी

सुर्य न्हिदला काळोख पडला
चंद्र जागला चोरूंक रिगला
दर्या थकला दावेन पिकला
मोगोर मासळचेक राखोन रावला.

सुकणीं धांवतात घोंटेरांत लिपतात
काळोख पाटल्यान खेळूंक आयला
मनशां दारां धांपूंक लागल्यांत
चोर लुटूंक आयतो रावला.

रात धांवली दीस अुदेलो
निरासलेलो, आशावादी मनीस जालो
दिसा मधलो वावर कसलो ?
पातकी चिंतनांनी जालो म्हेळो.

पातकां केलीं कुमसार जालों
आत्म्याक म्हज्या सुटके अिस्त्री मारली
फांत्या अुप्रांत भोंवारी नदर चरली
परत आत्मो म्हेळो जालो.

स्वार्थ सांडलो निस्वार्थ धरलो
फकत संवसार चार दीस
अनाथ जालों कोनशाक पडलों
संपच्या भितर दोनूच दीस.

अेकलो धांवता दुसरो पाटलावी
हेंच अेक जागवणेचें रोद
सब्द घडून रचतना कवी
प्रकृतींत हें अेक पद.

सोमी आयलो आमी पाटलावी
क्रिस्तांवपण खरें शिकूंक लागलों
अस्कत सैंबान जालों अभावी
जिण्ये पथार निराशी जालों.

## लेखक

पत्रांनी लिखता
लेखक तो
सबार संगती कळतात
महान तो
स्वत चिंता
बुदवंत तो
तरी...
कितेंच सोधनां करी ना
सर्व सांगता
सबार नेणासचें
गर्व ओंकता
आपूण जाणासचें
सवाल करता
जाप जाणासून
राग काडूंक
ताची आशा कितें ?
न्हय कितेंच रितें
ताची ती

महान बुदवंतकाय
ताचीच अेकल्याची न्हय
सबार कडे वाचल्ली
थोडचा कडे चोरल्ली
सर्व अेकठांय करून
आपल्येच लेखणेंत भरून
शाथी सामर्थेन
तोच लिखता
कित्याक ?
लेखक जांवक जाय
सर्वांक कळूंक जाय
सर्वांनी मांदूंक जाय
सबारांनी वाखणूंक जाय
पूण...
तो अेकलो
लेखणी चलयता
बरें साहित्यांत विणता
खऱ्या साहित्यांत भोंवता

समाज ताका मांदता
फुलां झेले घालता
तरी
अुरल्ले लेखक
आपलें फुटकर
घुमट व्हाजोवन
ताचे अवगूण
वैर अुस्तून
गरजे भायर
ताका मस्तून
आपटून धपटून
टिका करून
कचऱ्याक घालून
आपूण प्रख्यात
‘ लेखक ’ जांवक
हरदें बडोंवक
झळकून रावूंक
पेचाडून आसता.

## गुपीत मोगा

फांतें अुदेंवच्या आदीं
तूंच अुदेलांय
तुजी शाथी
हां केदी
म्हाकाय दाखयली !
चंद्र तरी लिपत
त्ये पुनवेच्ये राती
हांव करचों ना घात
आसून तुज्या सांगाती
सुर्य तरी अस्थीर
हांव तसो न्हय
आसतलों तुजेर स्थीर
जियेल्यारीं खंयसरी
खंयसरूय जिये
हांव तुजो प्रेमी
खंचायकी तूं भिये
अुरतेल्यांव लागीं आमी

दर्याचीं तीं ल्हारां
मेजूंक नांत कोणेय
मळबा वयलीं तारां
नेणांत आजुनूय
सुर्याची धांव
सोशीन तरी हांव
संवसारांत म्हाका मात्र
तुजे विणे शुन्य
म्हाका फटय नाका
दुसऱ्याक पात्ये नाका
तिसऱ्याक राखय नाका
पेल्याक आठव नाका
तूंच म्हजें भांगर
तूंच गो शृंगार
लागीं हांव ना तरी
करतां मोग मरासरी.

## सूर्य तूं

त्या गुडचा मधेगात
दर्याच्ये अगाधेंत
तांबडो जावन
अुमाळयांनी भरून
चंद्रक बुडोवन
नेकेत्रांक धांवडोवन
बेफिकीरायेन
अेकाग्रतेन
दुर्लक्षतेन
तूंच अेकलोच
अुदेताय हळू
आनी
आमकां अुजवाडीत
फांतें अुदेतना
सर्व जिवींक
जाग जाता
आवकाक दीस चडता

हां तूं अेकलोच
सगळ्या संवसाराक
अुजवाड दिंवची
कितली जबाबदारी घेताय ?
भेदभाव नासतां
हर अेकल्याक
हर अेक कडे
तूं पळेयताय
देखून सबार
देव म्हणतात
रवी राय
कवी म्हणतात
पूण......
हांव तुका
तितलो मांदी ना
तुज्या अुदेवाकी
कांयच वाखणी ना
तुका साद्य आसल्यार
तूं बुडुनूंच
वा बूड नासतां
राव पळोव्यां ?
तुका साद्य आसा ?

अे सुर्या,
आमचें विज्ञान
जायतें सुधारलां
चंद्राक मस्तिला
गृहांक अुस्तिलां
तूं अुदे नासल्यारी
आमचे कडेन
वीज सकत आसा
अेलेक्ट्रोनिक्स
अुपाय आसात
आमी काळोखांत आसचेनाव
आनी तूं
गर्व करून
अुदेंवक नासल्यारूय
आमी तुका
बलात्कारान
दर्याच्या गर्भांतलो
वा घोर खंदकांतलो
ओडून काडून
अुजवाड दिसो करूंक
आमचें विज्ञान जाणां
कितें म्हण चिंताय

अे सुर्या
तूं स्वार्थी
तुजी जडाय पुरो
तूं बडायेचो भरो
तूं आमची
परिक्षा करूंक
आशेताय तर
अेक दीस अुदे नाका
अुजवाडूय दी नाका
वा अेक दीस
बूड नाका
काळोख दी नाका
तेदना पळे
आमची शाथी
आमी जियेतेल्यांव
हासून हासून
तुज्यो मस्कऱ्यो करून
तूं स्वार्थी
बिरमत चंद्राक
अुदेतना धांवडायताय
धाकटुल्या नेकेत्रांकय
लिपाशें करताय

स्वार्थी तूं
स्वार्थीतलो स्वार्थी
अरे भिवकुऱ्या
रातच्या वेळार
लूट दोंबी सबार
सांगाता अत्याचार
व्यभिचार बलात्कार
तरी तूं
भिवकुरो जावन
खंयसर लिपताय ?
कोणा पाटल्यान वेताय ?
तुका तेदना
अुजवाड दिवक जायना ?
अे सुर्या,
तूं निर्दय
सर्व तुज्या वरवीं शिजता
सबार संगती चलतात
हे सर्व
परने खरार सोड
बऱ्ये मर्यादेन जिये
आमकांय भिये
वेळ येत पर्यंत

आमी ओगो
आमचेर बिघडल्यार
अहंकाराचे तुजे
दांगे मोडतांव
तुका नास करून
दुसऱ्या अेकल्याक हाडतांव
अुप्रांतूय
आमी जियेतेल्यांव
तुजे विणेच
हासून हासून.

## विन्सेंट पिंटो

### रैत

अखंड भारताच्ये मात्येक वरिष्ठ
संवसारी भोगींक खंडीत कनिष्ठ
आदीं मागा थावन छिद्र हांव
भारताचो गरीब रैत हांव.

अुदका सांगाता सुकोन वतांत
गोबर माती मोळून शेतांत
घामा ओलसाणेंत खिरोन अुबरांत
हृदा करतां भूंय भारतांत.

पावसाची हर खुणा स्फुर्ती
माणक्यांचें रुदन विमुक्तेक सुकती
घडघडो पावसाक शेत भरती
वेळा राय निमगिता आरंभूंक कृती.

आंग अुगतें ह्रींव खायनां
थंड पावस कांप सुटना
विणगीं पांयांतळां भें दिसना
फळारावीण तरी बळाहीन जायना.

खांद्यार नांगर, जूं सांखळे दोरी
मुखार रेडे पाडे राखवल्यां परी
पेंकटार कोयती भेंडूंक सेनां परी
हठान पियेवन फुटी कापी.

गाद्या मेरच आराम आसन
व्हाळचें वारें व्हाळ्ळें तर
रुकाची सावळी जेवणा साल
मळाबच पाकें वता–पावसांत.

प्रकृत्येक हरसून खोंडतां रोंवक
अिटान घटावन परात्तां पावसाक
म्हज्या सांगाता तुज्या पोटाचेंयी पिकोंवक
धन्या देवाक अरपितां फळ मेळच्याक.

## स्वार्थान

जिवन सागरांत
अुप्येत आसतां कष्टांत
चोयलेंय सत
काळखी रात
तड अनंतांत.

सुखान आसतां
मनशा मोगान
खूब लासलाय
जीव दंडोवन
तुकाच तासलाय.

निस्वार्थ तुजो
स्वार्थ म्हजो
अुपकार तुजे
अनुपकार म्हजे
स्वार्थाचें ओजें.

आशा लिपतना
दिशा मेकळाली
तड जिरोन
स्वार्थांत बुडोन
लीन जाली.

## देख

त्या दिसा
सदांच्ये स्थित्येर
जिवन झाडार
आमी आसतां
समजणी नासतां
चुकोन पडतां
तेन्ना
पावोन खुशी
तिर्प दिशी
मिजास तुजी
केंडून बेस्टें
अुतरां कितें
" मतीर ना
बूद ना
भेजो ना "

त्या दिसा
सुर्य लिपलो
सदांचे परी
आजयी अुदेलो
आयली सरती
आज तुजी
मिजास म्हजी
फारिकपणाक तुजी
मजा वरती
तक्षण
अुगडास आयलो
सोम्या क्रिस्ताचो
पवित्र अुतरांचो
चूक भोगसुंचो.

## रवी गिमांतलो

फांत्या पारार, रातिच्या गर्भांत
पुर्व दिगंतार, सुकण्या गानांत
रुप्याळच्या कुपांत, कापसा बिडारांत
अुदेव तुजो अनंत दिगंतांत.

फाल्क्यां दोगरां मधें
आडखळ तरी दीग गुडे
मधूर तुजें येणें
भुमीर सुमधूर जिणें.

थिरांवक पाचवेंपण पर्णांत
रंगांवक संवसार वर्णांत
काळखी रात संपोंवक मरणांत
अुदेव कळयताय तरन्या किरणांत.

अुदेवाक खरें हरसून
प्रकासाक तुज्या भियेवन
अुठता संवसार लजेवन
निद्रा देविच्ये वेंगेंत थावन.

ह्या वेळार वाखणता तुका संवसार
ह्रोगळापाचीं मंत्रां आठोवन हजार
पुजा भेटयतात खंडीत सबार
परिपिकायेक तुज्ये स्फुर्ती कसलो संवसार.

संवसारी प्रचोदनांक फुलोन
भरवाशान नेंटो तूं जांटो जावन
तिकें तुजी परिपिकाय कळोंवक
मात्यार बसताय दनपारा बारांक.

धुंवरयताय भुमीक कितें खर्ग
बावड्या जिविचेर वताचो दाव
पिकोवन सुकोंक करताय वापरून धग
अितल्यार सजीव मनां जातात भग्न.

आतां भेंडप, केंडप, शिराप
कितें सांगूं तुजें हणे—बरप
हरसितेले तुका येटून आसात
शितळ बरफ पावसाक येवकार मागतात.

चंचल भुमी वरवीं जालाय निराश
मनशाची करंदाय कोडसाणेची काल्स
भिरांकूळ दुखान तांबडो जालाय
जिवघातूंक सागराक लागीं सरलाय.

वर्णाळें रगत तुजें चाकोन पियेंवक
सागरांत तुजी बुडती पळेंवक
मरणांत तुज्या सूख देखोंक
संवसार आयला दर्या तडीर हासोंक.

तरी तुका बचाव करूंक
जिवघातांतलें तुका बचाव करूंक
भजोंवक भुजोंवक आनी वांचोंवक
अब्ळे हांव आयलां समदिरा गडीर.

## निराशी

निराशी --- कारण ?
आशेवन, चिडकोन आशेच्ये दिशेक
निमिशाच्या चाकत्या सुखाक लागोन
बेसोर दिल्लो ना कोशेडताक.

सुखा खेळांच्या अुमाळचा भरतेंत
अुद्वेगांत अडचोन अुद्रेकांत
चिंतनां विस्तार भरपूर योजीत
जालीं अशीर अंधळी ना योजीत.

अुद्रेकांतलीं चाकतीं निमिशां
अभिन्न दिसली भिन्न लिसांवां
निर्धार घट भासायलें खरोखर
सबल दोंगराच्या अुंचल्या शिखरार.

घडचेन लीन जिवसाण चिंतनान
गोमता अगोचर सत तांडून
समर्पिलां हर अेक गड मोडून
हळू मस्तिला फुडार सासण.

चाकत आसतां भासवण्याचें दिर्घ फळ
तरनी कोडसाण पिकता प्रबल
चिंतनां खंत दूख ती अनंत
ना भरवासो सासपूंक सैत मुक्त.

विराजल्या खंचल्या निराशा अघोर
बावोन सुकलां जिणें अविश्रांत
असुस्वागत जियेंवक जिणें भूतकाळांत
येवकार नां तरी तेंकता पाताळांत.

पातळांत तरी मेटां चमकोंक
फुडें चलोन मरण निमगूंक
पळून गेल्या अबल शक्त हातापांयाची
फकत निराशा...करून शुन्य निराशी.

## वॉल्टर सिरील पिंटो

### मोडां

अूंच निळशा आकासार
अुबजतात आनी परततात
धांवतात आनी आदळतात
निळीं काळीं गोबराळीं मोडां.

आकासा वयलीं मोडां
चंद्राक घेवन गोपांत
चांदने सगळें लिपयतात
आनी भुमी काळोखांत धांपतात.

ती निळीं काळीं मोडां
सुर्याक आड रावोन
गरमी वत आडावन
स्वादीक सावळी दितात.

आकासा वयलीं तीं मोडां
वताच्ये दावेन बावतच
भुमितली शेळ चिवोन
पावसान भरोन फुगतात.

तींच काळीं मोडां
पावसा ओंटच्येंत बांधून
हंकारान धांवोन आदळोन
घडघडो झगलाणे रचतात.

तीं पावसाळीं मोडां
वता दावेन फुगतात
हिंवाळ वारें लागतच
पिसळोन भुमीर ओंकतात.

आकासा वयलीं तीं मोडां
निळीं काळीं आनी गोबराळी
भावनांचें रूप घेवन
दिसतात विचित्र चित्रां.

जशीं आसात आकासार
तशीं मोडां मनांत
ज्ञानांक ती आड रावोन
काळोख हाडतात जिवनांत.

जांव ती आकासा वयलीं
या तीं मोडां मनांतलीं
भोंवारी तांच्या आसा
भरवाशाची रुप्याळी देग.

## केदांतलें कमल

सकाळिच्या वेळार
सुर्या अुदेवार
कोंब्या सादार
सरोवरांत केदा वैर
धांवल्लो हात तशें अुसता
तांबडें कमल
तांबड्या वर्णाचें.
अेकाच गात्राचीं बोटां
मुळा थावन लकोन
ताळवेक नमन करतात.
सुर्य आकासार चडता
वताची तिकसाण वाडता
बोटां अुभीं जातात
सरोवराच्या आंगार.
चार पाचव्या पानां वैर
अुप्येता तें तांबडें साळक
देंट ताचो थांबला तळ्या तळांत
केदांत रोंबल्ल्या मुळांत.

सुर्य मात्यार आयलो
ग्रास सोधून भोंवचो भंवर
लोव लोव चिंवोन
हळदुवो रंग घेवून धांवलो.
रंग म्होंव होगडावन
आतां रडता तांबशें कमल
मोव जाला सुर्य
अस्तमतीर तयार दर्या
जांवच्या तांबड्या मिलनाक
तांबडो रंग अुदेला
दर्या–सुर्याक वेंगतना
भांगराळो वर्ण पांगरतना
अुसल्लो हात दोडता
साळक तळ्यांत पडता
मटवें जिवीत संपयता.

## कळो

मळचांत फुलच्या कळ्या
रंगीन हिमा–धव्या
स्त्री चलियांक पिसायताय
पिसोळचांक आपयताय
परमळ तुजो स्वादीक
रंग तुजो आकर्षीक
मनशांक नाचयताय
देवाक मेचवाताय
आमोरेर फुलताय
रातीक अुजळताय
सोबाय लिपोंवक सोधताय
तरी रंगान स्वादान प्रजळताय
सुर्याच्या पांयां तळा
मनशांची काणीक जाताय
प्रेयसिच्ये ताळवेर, प्रेमीक
वज्रांचो कुरोव दिसताय
कळ्या तूं साद्या भोळ्या

रात भर तुजी जीण
आमोरेर तूं फुलताय
फांत्यार बावोन झडताय
थोडचाच वेळा भितर
सबारांक हासयताय, खेळयताय
कळचा घेवन तुजी देख
मटव्ये म्हज्ये जिण्येंत
करतां हांव साधन
जियेवन समाधानान.

## दिवो–अुजो

काळोखांत अुजवाडांत प्रजळताय
अंधकारांत सासपोंच्याक वाट दाखयताय
संकेत तूं भरवाशाचें, जिवाचें
आधाराचें, मोगाचें, थिरासणेचें
तुका वर्णूंक पावनांत अुतरां
सरी करूंक मेळनात वस्तू
मनशा जिवितांत अप्रतीम तूं
पृथ्विच्ये चरित्रेंत प्रथम तूं
तूं दिताय अूब, अुर्बा
तुजेविणे अंधकाराचें राज
पृथ्वी जायत भियाचें भुंयार
रातीक तूं जीव दिताय
दिसाक दिताय अलंकार
आसात तुका नमस्कार करतले
देव म्हण मानतले
ह्या संवसारांत मनशा जिवितांत
स्थान–मान काम तुजें प्रथम
सबार तुजे आकार आनी प्रकार

अगम तुजें तेल, अिगळचा, अुज्या थावन
हिंवांती जाय, अुबेंती जाय
भुयारांती सोबताय, रावळेरांती प्रजळताय
दिसाक रातीक सर्वांक तूं जाय
रायाक, आयाक, चोराक, बऱ्याक
रुका झाडांक मनशा मोनजातींक
सक्तेचें अेक रूप तूं
स्पिरिताचें संकेत तूं
बदलताय रूपां, सरनांय
रांदूंक शिजोंक तुजी सकत
जियेंवक सुकोंक तूंच कारण
दिव्यांतलो अुजो संवसार प्रजळायता
दिवो आनी अुजो मोगाचे अिष्ट
अेकमेकाचेर आधारून आसात
दिवो दिता अुजो, अुज्यान जाता दिवो
दिवो भरवसो, अुजो थिरासाण
दिवो आधार, अुजो दातार
दिवो मोवाळ, अुजो कठीण
दिवो प्रकास अुजो अूब
सर्वांक जाय सर्वय काळीं
दिव्या अुज्या तुमच्ये देखीन
हांवीं जळतां, अुजवाड दितां
काळोख आसल्ल्या संवसाराच्या कोनशाक.

## सिंतिया क्वाड्रस

### स्वार्थ

अे मनशा, पाड जालोय स्वार्थांत
गड नेणांय स्वार्थाची
गड अुतराशी
विबाड तुजी जिणी.

पेल्याच्या वस्तू जाग्यांची
आशा पडता
तेदना स्वार्थ अुदेता.

अे मनशा, म्हजी अेक कळोवणी तुका
अर्थ कर स्वार्थाचो
त्याग कर स्वार्थाक.

## निबंध

जिवनंच क्रांती
क्रांती जिखूंक
जाय शांती.

स्वंयच्या विष्यांत–आत्म वंचन
आत्म साक्षीक–सम दिसना
ह्या बंधनाक–मन मांदी ना.

मनीस सर्व विहारी
तांतूं स्त्री–पुरुष भेद
ह्या दोगांय मधें तारतम्य.

पुरुष स्वतंत्र
हाका मन तयार ना.

स्त्रियेक ताचे बरी ज्ञानेन्द्रीय
सकत सामर्थ आसा
तरी ती ताची गुलाम.

असल्या समाजांत् स्त्रियांक
निर्बंध
तर स्त्रियेचें जिवीत
सार्थक जायत ?

## मोर्न

मोर्न म्हळचार भारी भयानक
कित्याक मनीस तितलो पडला मोगा सामकार
बायल भुरगीं आनी संवसार
देखून मोर्नांत तो विरार.

पावसा दिसाची खंत करून
जमयता गिमां दिसांनी
जाल्यारी करी ना खंत
मोर्नां विष्यांत.

बांधता रावळेरां शाश्वताचीं
देखता सपणां जिविताचीं.

मोर्न गांवांत देखल्यारी
मोर्न घरांत आयल्यारी
दनपार पर्यंत जमयता
वांचान म्हळ्या भरवाशान.

केदळा खंय चिंतूंक कष्ट
मनीस जल्मातच तयार जाता मोर्नाक
कळय नासतां येता मोर्न
देखून तें चोर.

## फ्रान्सीस सलदान्हा

### संतोस पाव कोंकण माला

जागे जाया कोंकण्यांनो जागे जाया
शिपडल्यात तुमी सगळचा संवसारा
खंयसर गेल्यारी अुगडास दवरा
मेट घालतां अुंबरा, कोंकण कुळारा.

कोंकणी अुलोंवक आज लज नाका तुमकां
किर्त तिची चडल्या अूंच शिखरा
वरत्या बरोवप्यांक कोंकण मांयन जल्म दिलासतां
खंत कित्याक तिका, घेवन आसतां तुमकां.

कोंकणिचे जांटे सगळचान शिपडल्यात
आवयक तांच्ये सोबोंवक वावराक लागल्यात
आठ दिशां पोंता कोंकण गांवच्या
देखा दाटचे–मोटचे आवयक गोंयच्ये.

भारत साहित्य अकॅडमी लेखता
कोंकण्यांच्या साहित्याक गौरव दिता
संतोस भोव वरतो माये आज भोगता
लांब रूंद पालोव तिचो वाऱ्यार अुभतां.

ऱ्हेसताय तूं विवीध भाशे लिपियो
तुजी सोबाय चडोंवच्यो साडियो
आसात त्यो आवयो, दायज चडोंक तुजें
वावुरतात भुरगीं वांटून तुजें ओजें.

लांब जिये तूं आमच्ये कोंकण माते
कोंकण्यांच्या तोंडांत तुजो स्वाद गाजता
संगीत तुजें रात दीस वाऱ्यार व्हाळता
किर्त तुजी गाजता, संतोस पाव माते.

## अपूट मोग

मोग, मोग तो काळजांत अुबजता
मन आमचे अेकमेकाक वेंगोंक सपणेता
काळीज आनी मन आमचें भेटेक आशेता
दोळ्यांक आमच्या मोगाचें मोड रेवोड मारता.

दादलो आनी स्त्री जावन आसांव विंगड कुडीन
जणां दोगां तरी पूण मोगान अेक जावन
भेदभाव आमचो लेकिनांव आसतां अेकवटोन
सुखांत आनी दुखांत आसांव अेक जीव जावन.

लागीं आसतां आमकां मोग सवाय दिसता
अेकामेका पैस पावल्यार ताचें मोल कळता
अपूट मोगाक केदना तरी नाड भियेता
मोगान मात्र आमचें जिवन सुलभायेन चलता.

दादलो आनी स्त्री आमी अेक जाल्यांव मोगान
थीर अेकवट हो आमचो सदां गाजता सगळ्यान
अूण आमचे अेकामेका व्हरतेल्यांव सोसून
काजारी खुरीस आमचो अंनदान व्हावोवन.

## आज्येचीं नातवाक गाणां

रड नाका बाळा, दुखां गळय नाका
कुलकुलून रडताय कित्या ? कोणे मारलें तुका ?
तिके व्हडोल दिला दुदू माम्मीन तुज्या
भूक आतां लागची कशी नातवा मोगाच्या ?

सांगोंक कळना तुका, समजनां मू म्हाका
धांवोंन आयल्यां हांगा थांबोंवक बाळा तुका
आवयचें नासतां पिवन, जीव गेला सुकोन
नशीब तुजें खडपार पडला कोण जाणा कारण.

न्हिदे बाळा न्हिदे, बांबयेंत वगोच न्हिदे
पीळ पीळ पळय नासतां धांपून दोनी दोळे
बांबय तुजी लोटतां, वारें तुका लागता
संतोसान न्हिदे बाळा, न्हिदोंक तूं राखतां.

आवय तुजी गेल्या, कामाक कोडियाळ शहरा
आमोरेचो वेळ जातां, येवन पावता घरा
तोंड तूं फुगय नाका, आवयक चिंती नाका
येता ती पाप घरा, हासोंक विसर नाका.

न्हिदे बाळा न्हिदे, वेगीं वेगीं न्हिदे
बेस्टोच रडोन म्हजे करी नाका वांदे
तुज्ये बांबयेर खंचल्यात देवाचे मोव दोळे
केदें व्हड भाग, तुज्ये बांबयेंत भरलां पळें.

गाणां म्हजीं आयकोन बाळाक खुशी जाता
दोनी दोळचांक हळू धांपण पडोन येता
न्हिदे बाळा न्हिदे संतोसान तूं जिये
तुजे भोंवती अुभे सर्गा वयले भोडवे.

## अूठ कोंकण्या अूठ

अूठ कोंकण्या अूठ, न्हिदेंतलो वेगीं अूठ
प्रशांत सकाळ अुदेल्या, संतोसान तूं अूठ
भांगराळचा वेळा कोंकण मायेक खंत कित्या ?
मोगाच्या तूं पुता, कुडीर तिच्ये दिष्ट घाल.

बळ तुका आसा, ज्ञान मतींत भरोन गेलां
कोंकण माते भंडार खाली कशें जालां ?
न्हिदा नाका कोंकण्या, वेळ हो विबाड नाका
खंतिष्ट मायेक संतुष्ट करूंक विसर नाका.

पळे संतोस कितलो हेर भासां आवयांचो
तुज्ये मातेन तांचे हुजीर लजोंक नजो
साहित्य भंडार भरय, किर्त तिची तूं गाजय
रंगाळ साडचे पालोव तिचो वयर अुभय.

सर्वंय भाशा पंडीत तिच्या दिरव्याक मेचवों
अुंचल्या तिच्या दिरव्याक मात्यार मुकूट बसों
पुरा भासां ताळे मानाक तिच्या गावों
किर्त तिची पृथ्विच्या सांदी मुल्यां गाजों.

अुठा कोंकण्यांनो न्हिदेंतले वेगीं अुठा
कोंकणी भयणीक मुखार वचोंक लोटा
संगी वावुरा कोंकणी मायेक हासया
तिका पळेंवक सर्वांक अुमेदीन भरयां.

कोंकण माये मोगाच्या, खंत तुका नाका
सुखा संतोसाक तुज्या, भेटयतां म्हाका
भुरगीं तुजीं अुठल्यांत वावराक तुज्या लागल्यांत
नेटोंवक तुका कोंकणांत तीं ओट्टू जाल्यांत.

## जय जय रचनारा

सांज ही सोबीत अिश्वरा
सांज ही सुखाळ रचनारा
संतोस व्हाळता
अुल्लास भोगता
पांयां तळा तुज्या.

गायतांव हीं स्तुती गितां
रचनां तुजीं धन्या
तुका गायतांव
कुर्पा मागतांव
नितीन जियेंवक धन्या.

मागतात भागेवंत दया
रचन ही तुजी माया
भोगोस पातक्यांक
भोगोस नेणत्यांक
पवित्र पृथ्वेर तुज्या.

संवसार हो सदां घुंवता
सूर्या वैर प्रकास पांकता
सागर नाचता
दोंगर सोबता
ताकीद तुजी पाळता.

राया तूं त्रिलोकिंच्या
दाता तूं सर्व रचनांच्या
आमकां पळे
तुजे कळे
आतां आनी सदां.

जय जय महान रचनारा
भोगोस पातक्यांक अिश्वरा
काळोख धांवडय
प्रकास फांकय
पृथ्वेर सक्तेन तुज्ये.

# ॉन बॅपटिस्ट सिक्वेरा

## गुलोब तो दुलोब

अुदेत रवी फुलत गुलोब, दिवन सुवासीक परमळ
देखोन सोबाय, अुबजोन पिसाय, घुंवता भोंवती भ्रमर
खातच मधू सोडता गुलोब, अुभता दुसऱ्याक
करून तो भष्ट, विकारून सोबाय अुडता तिसऱ्याक !

आसतां बोंगो लिप्तो परमळ, कांय ना तुका सोबाय
शितळ वाऱ्यांत रवी येण्यांत, अुसय तुजी कोबाय
तांबशे पोले पाचवे खोले, थंडीक तुज्ये शेले
वतांत कठोर, मधू तुजो खाता पिसो भ्रमर.

आसतां झाडार, पिस्वोन तुका नारी खोवयत शेंड्यार
दितच पुरती सोबाय, सांजेर जाशी पिड्डयार !
अे तू बोंग्या, दाखोन सोबाय करताय कित्याक पिसाय
बुडतच सुर्या, बागशी भुमीर अुरली खंय ती सोबाय ?

सुवासीक अुल्लास जावन अमाल, कर्मी जाता भोळो
अुबरांत सैत आसल्यारी तूं, पडता तुजेर दोळो
रातीं बावेन जाशी पिड्डयार, पडतली तुकाय घाण
नासोन सोबाय आसोन परमळ, देखतो तुका कोण ?

आकर्षीक जावन किमचून तुका, नर अुभारता अुभार
पिसो भ्रमर स्वार्थान तुका, कंरूक चिंता काबार
सोबशी मात्यार, वाडोंक कारण जाशी, तूं नारी रूप
शितळ वाऱ्यांत धलतना तूं, नाकाक सुगंध दीत सूख !

फुलां मधें फूल तूं, गुलोब म्हणतात तुका ' राणी '
आसोन सोबशी, अुजवाड दिसत काळोख आसल्ले स्थानी
सुंदर कितलोय आसूं, आवक तुका, फकत अेक दीस
पवित्र तुंयी बावोन, जाशी कचऱ्याची रास !

सुगंध ना जाल्यारी, तुका फावो अुंचलें तेंच स्थान
कांटचा मधें फुलताय, देखून लाभत खरो तो मान
बोंग्या रुपार फुलोंक लागतीत तुका कितलेशे दीस
भुलोन सोबाय, विभाड करतीत वेगींच कर्मी मनीस !

निर्मळ सुगुणी स्त्री, जावन आसा अेक सोबीत गुलोब
गुणान, घनान, मनान, सदांच तियी अुरता दुलोब
दुर्बळो, ग्रेस्त, गुरू, शीस दितीत तिका व्हड मान
दिवच्याक जल्म, हालोंवक पाळणे, वरतें तिचें घन.

## तिणे तुका जल्म दिलो

व्हावोवन महिने नोव, सोसून कष्ट भोव
लावन तोंडाक चींव आरावन हरद्याक मोव
आवयन तुका संवसारी जल्म दिलो !

शिकता वरेग बरी बूद दिवन आपलें दूद
करगोवन आपलो जीव लाग नासो संवसारी दाव
तिणे तुका कष्टांनी व्हड केलो !

बाळकां अुतरां तुका शिकोवन, पडता तेदना तुका अुकोलन
बरी बूद सांगोन, तुजे खातीर देवा लागीं मागोन
तिणे तुका संवसारी वागयलो !

पिडे वेळा तुजी चाकरी करून, दिल्ले कष्ट सोसून
तुजे खातीर न्हीद खळून, हांतुळणार जागी रावोन
तिणे तुका राखोन व्हेलो !

रागाचीं अुतरा, आयकोन गाळी सोवे
तुजे सोसून, रडतां तुका आपलें दिवन
तिणे तुजो मोग केलो !

म्हेळता तेदना नितळ करून, रडता तेदना थांबोवन
सांगता तेदना आयकोन, विचारता तेदना दिवन
तिणे तुका सांभाळून व्हेलो !

## पयली रात

चंचल दोळे, चंपक गाल, लजेवन परकें आसाय
वांकडी दिष्ट मारून म्हाका, आंबरुकें कित्या हासताय ?
मौन भुमीर कौतूक हाल, जळी मिणकीत प्रेमावात
मिणमिणच्या वाती तळा, मिलनाची आज पयली रात.

चांदन्याची रात मोगाची सुरवात,
दिगंतार नेकेत्रां जिळमिळतात
अपुर्व घरांत तूं अुजवाड, नेकेत्रां प्रेमान खेळतात
चंद्रावदन रूप तुजें देखतां, अत्रेग म्हजे जागतात
प्रेमा स्वागत करून, हात म्हजे आरांवक अत्रेगतात.

नीळ केशा पुतळी सन्यो, हालतात जोडी फांती
चांपें आबोलें कळयां माळा रुपाक दितीत कांती
कपलार कुंकूम तीळ, दोळयांक सोबत थंड काजळ
ओंठाक लाली, कानांक केंपां, पांयांक पांयजणां झळझळ.

पितांबर कापडां, रश्मी चोळचेरी देखतां तुका मोगान
मोर लजेत दाकां वाल सरी, कर म्हाका पावन
अनंद बाष्प गळतात चोयतां कोमल प्रेमा नयन
कोकिला नाद रंगीत गितां, अुतरां स्वर्गीय गायन.

तिक्षण नदर आलबें कमर, कूड परमळीक गंध
थंडी ह्व्या कोमल देखतां मन चंद
चतूर मिनाक्षी हासतां, दांता पेळी मोत्यां रीद
विशाल कपाल, गोपुरा जघन, स्त्रिये तूं मद.

सुगंध तेलां सारोवन, सुवासीक मेलां लावन रंग
भांगरा वर्ण कुडीक लेपी, मन पिस्वत आंग
स्वपणांतली काणी नदरे मुखारी, आज अुभी प्रेमाराणी
वेंगेंत तुज्ये जिण्ये बंधन कर सार्थक जिणी.

अुबरांतलें साळक, बागितलो गुलोब, वोडतांतले लिल्ली बाळे
पुनवेचो चंद्र, सुर्या प्रकास थळथळीत वज्र साळे
जिण्येची आशा, निशा संपलेल्या वेळा तुका अपूर्ण
सुहाग रात, भागी रात, आज काळजां संपूर्ण.

नेत्रां थकलीं, अुतरां सुकलीं, मधूर प्रेमाचो वेळ
अमर बंधन, प्रेमालिंगन सप्त सर्गा हो मेळ
लजेवन दोडोन विवीध हाव भाव तुजे दाखयतात सळ
अनंद फुलतें, काळीज सुखाळ वाली प्रेमाव्हाळ.

ही घडी मोगाची, अुडी अत्रेगची चिंतना आमचीं
मनां अुल्सास, भागी रातींत तोंडां कित्याक ओगीं ?
माटवांत नाचतात, व्होवच्यो ताळ व्हाजता व्हाजंत्र खुशाल
वाती झळकांत, पारव्या जोडें देखता प्रेमा सागर विशाल.

कोमल तूं गो फुलाचाकी नाजूक, जिवन निष्कळंक निर्मळ
केसरी भरीत तांबूल, पळेर भरला हव्यारी परमळ
रत्नकांबळ हासिल्या मांचार वैभव बाळा नाका आज
भागी रात जिण्येंत बाळा पयली रात आज.

## मरण

आयलो तसो गेलोय मनशा कसलें तुजें जिणें
काल आसुनी आज तूं नांय तुजें आवक भोव अुणें !
अेकसुरो आयलोय, अेकसुरो चल्लोय कसली तुजी जिणी
बरें वायट मात्र घेवन तूं गेलोय अुरली तुजी काणी

सोडतच अुस्वास अुबलो अत्मो आपल्या सासण ठाण्याक
अुडोन सोबाय, चिवळाली कूड तयार वचोंक फोंडाक
राग जिद्द हंकार चलता जिण्येंत अपार तुजी शाती
सुखान तुजी वाडल्ली कूड बदलता जावन माती !

घेतां जल्म आवयच्ये कुशीं, किते तुंवें हाडलेंय
जियेवन अितलीं वरसां, वेतना किते व्हेलेंय ?
कोमल कुडीन नेणत्या हास्यान कपटा वीण आयलोय
" दिल्लें धर्म, केल्लें कर्म " मात्र घेवन झडतेक गेलोय.

जियेलोय तर सुफळ जिणी, मरणाक रडता समाज
सांगतीत काणी दाखयतीत देख, संवसाराक गाजतली गाज
अुलोवन बरें सांगोन तुजे विष्यांत गायतलो गांव
स्त्रियो पुरुष श्रीमंत गरीब अुचारतीत अमर नांव.

कोणे घेतला संवसारी जल्म, सोडना ताका मरण
करूण, धारूण मनीस सगळे जातीत ताका शरण
लोंक शांत अमर कार्यें केल्यार रडत ताका धर्ण
भोडव्यां संगी अपार, गाजोवन येता सर्गीं होराण !

दायजी गोत्र अिष्ट मंत्र, सगळें करतीत विळाप
आसतां अुगडास दवरून मोग कांय मागतीत अदृश्य अत्म्याक
लोळतां कालचक्र अुरचो ना वरसांनी अुगडास कोणाक
विळाप, व्हाजप, दुखां सांगप काबार खंडीत सासणाक.

पाय मांय बाळ सांगात सगळो ह्ये संवसारी जिण्येंत
संवसारी सूख लौकीक दूख मात्र काबार जाता मरणांत
हासोंक, नाचोंक, मागोंक नागोंवक मेळतीत जिण्येंत जायते
सासण पैणार सांगात करूंक आसचे नांत कोण आयते.

## मोगा तुजी सोबाय

अघोर अरण्यांत अरूण प्रकाश
काळख्ये आमासेंत शांत आकाश
दिसताय माणका मोगा रोजी
कसली अबल चाल तुजी ?

करी नाका तूं चडीत विलंबन
दी म्हाका तुजें आलिंगन
पोल्यार तुज्या दितां चुंबन
दाखय तुजें सोबीत वदन.

कोमल नेत्र रातीं काजुलो
केश नाजूक रस्मा शेलो
पिस्वोन दीन मोगा अुलो
मेळय तूं तुजोयी ताळो.

स्पर्श तुजो जातां, फुलत कूड
रूप देखतच येता म्हाका नाड
अदृश्य जाशी काळीज जायत जड
तोंडार मोगा संतोस हाड.

लालेवन मोगा म्हाका रावताय
कूस लागोवन मृदू हातांनी वेंगताय
गोड अुतरां अुमाळोन सांगताय
हुनसाण तुजी दिता मनाक पिसाय.

फांत्या परी फुलत सोबीत कमळ
तेदना देखत कोण हास्य प्रजळ ?
जातीत तेदना काळजां अुमळ
चोवून तांबडे गाल कोमळ.

सोबायेक तुज्ये लजेत अरूण
कडात मोगान मनीस धारूण
सोधतां मोगा तुजें शरण
जा तूं म्हजेर सदां करूण.

खंय तूं मोगा म्हाका मेळशी
आशा मोगाची म्हजी थांबयशी ?
मोगा वेंगेंत तुका खेळयन
अनंद बाष्प हांव गळयन !

मधूर कोमल रंगीत ताळो
आकर्शीक तुजो हास्यां व्हाळो
बोंग्यां मधलो गुलोब कपला तिळो
दिता सोबायेक तुज्ये कळो !

खंय मेळशी रोजी मोगा
अुघडून काळीज सांग म्हाका
घेवन रावतां झेलो स्वागत दिवंक तुका
तुजेविणे संवसार नाका.

## सिरील जी. सिक्वेरा

### स्त्री

स्त्री
दादल्याच्या
पिकल्ल्या केसांक
थकल्ल्ये मतीक
सुकल्ल्या हरद्याक
मिरियेल्ल्ये कातीक
वोडची कडक
अिस्त्री !
स्त्री
हासल्यार कळो
ना तर सळसळो
सोबायेचो बुळबुळो
चंचलतेचो अुमाळो
तिच्ये खातीर
रायांनी झुजां मांडल्यांत
सियासपां होगडायल्यांत
अधिकारी
गादी देंवल्यात.

स्त्री
अुदकांतले मासळे परी
तिचीं मेटां
मेजूंक मेळनांत
तिचो वेग
रानांतल्या चितळा परी
धरूंक मेळना
तिचें मन
चिंचे पाना परी
तें सगळें तरी
वेगळें वेगळें.
स्त्री
दादल्याक मांकोड करची
मांत्रीक
ताचें पुरुषत्व
पिटो करची
तांत्रीक
ती आसल्लें
ना करता
नासल्लें आसा करता
घर अुभेंय करता
धरणी समाय करता

तरी पूण
ती दादल्याची चरणदासी
भुरग्यांक जल्म दिवचें
विशेष यंत्र
तिची सोबाय
तिचें आकर्षण
संपयता
दौलत आनी गर्व
तिचें आंकवारपण
अंतरता वरेग मात्र
तिचो दळभार
मायपणाच्या
दाखटचा वरेग मात्र.

## विणगीं खडपां

सुर्याच्या
खरकटचा वताक
भाजोन आसचीं
शिरांधारी पावसाक
भिजोन आसचीं
तीं विणगीं खडपां
काळाचें रोद
घुंवल्यारूय
वेंळाचें गुमान
नासल्ले परी
मोनीं जाल्यांत
केप्पीं जाल्यांत
कुड्डीं जाल्यांत
थोंटीं जाल्यांत
लजेची लय नासतां
माणसुगेची साय नासतां
तीं विणगीं अुरल्यांत
तांच्ये तकल्ये वैर

आमची तकली
आपटून अुलयल्यारूय
तीं अुलयनांत
हालयल्यारूय
हालनांत
पोशेल्यारूय
भुलनांत
हासयल्यारूय
हासनांत
गुड्डायल्यारूय
फुरफुरनांत
खोटयल्यारूय
रडनांत
पूण पाप
भितरले भितर
तीं कितलीं
फुमार जातात कोण्णा
कितलीं दुखां
गळयतात कोण्णा
शिल्पी येवन
तांचीं मासां
भेसां करतना

तांचे कुडके
अुसळयतना
तांचें रूप
बदलितना
तांकां कितलें
दुखता कोण्णा !
हा खडपांनो
म्हजें कळिजूय
म्हजें मनूय
तुमचे परी
धारूण जायजय
अचल जायजय
कित्याक
चार दिसांच्या
ह्या संवसारांत
हांवेंय तुमचे परी
धैर्यान तकली अुकोलन
जिये जाय !

## म्हजें काळीज

घडयाळाच्या
टीक टीक
आवाजा भाशेन
काळीज म्हजें
दिसाचीं
चवीस वरांय
अुडोन अुडोन
आसा
आनी खिणान खीण
हांव
जिवंत आसां म्हण
म्हाका तें जागयता !
म्हजें आवक
घडयेन घडी
अुणें अुणें
करीत येता
पूण
म्हज्या काळजाक
म्हजो मोग ना
कित्याक तें
म्हजे लागीं ना
तें

अरबी गांवच्या
भांगरांत आसा
तें
आधुनीक चलियांच्या
शृंगारांत आसा
तें
अिगजेंत भोंवच्ये
अिजमोलाच्ये वाटलेंत आसा
सोन्याच्ये बाटलेंत आसा
तें
बेंका भितरल्या
तिजोरेंत आसा
पंचतारा
होटेलांत आसा
विलासी क्लबांत आसा
पूण
म्हजे लागीं तें ना
काम क्रोध
सुरात–हंकार
हगें मोसरान
भरल्ले काळीज
सगळयान आसा
पूण
म्हजें लागीं मात्र
तें ना !

## व्हडलें फेस्त

बटलेरामा, बटलेरामा
कसलीं तुजीं आळशीं कामां ?
व्हडलें फेस्त आयलेंमू गा
धांवोन धांवोन.
कुजनांत कितें करताय गा
कुरवोन कुरवोन ?
दाळ ना, साकर ना
मीठ ना, मिरसांग ना
तेल ना, तूप ना
म्हण पाद्रीक धोशी नाका
तो साकर खायना
मीठ आपडना
ताका डयाबिटीस आसा
तो मिरसांग चाबना
ताका ब्लड प्रेशर आसा
तें पुरा तुका नाका
तूं आतां
व्हडल्या फेस्ताक
तयारी कर
गुरकारामागेर
दुकर मारतात
आठ किलो
मास सांग

काळीज–आनकिटी दितलो
मिरन्यामागेर
कुवाळो सांग
मार्द्रिगेर
बिबलिचो रूक आसा
सार रुचीक जातलो
गारफां कुलेरां सुऱ्यो
धुवन नितळ कर
जेवणाच्या मेजाक
धवें वस्तूर घाल
ग्लास, बोतली, सोडा
आनी लेमन ज्यूस
गरज आसात
फेस्ता दिसा
मास रांदूक
तुज्ये कुमाद्रीक
पाटल्या बागल्यांतल्यान
आपय गा
दुकरा मास
सर्पातेल, अिंदाद
सूप आनी सलाद
चणे आनी हेर
बरें करून रांदा
जेवणाच्या मेजार
पाद्री बसतच
पयलें बोतली

ग्लास आनी सोडा
वचोंदीत
थोडया वेळा नंतर
तुका सबार शेरमांव
आयकतले
पूण फिकीर करी नाका
अुप्रांत मेजार
सूप वचोंदी
तितल्यार तुका
गारफां कुलेराचो
आवाज
चामादोरान सिमित्रींत
फोड खोंडल्ले परी
आयकतलो
पूण भिये नाका
बकऱ्या मास
हळतार वचों दी
अुरल्लें तुका
आनी तुज्ये कुमाद्रिच्या
भुरग्यां-बाळांक जालें !
सर्पातिल, अिदाद
चड नाका
सबार पाद्रींक
ब्लड प्रेशर आसा
आतां दुकरा मास वचों दी
सन्नां अुंडेय दी

रांदोय, लोणचेंय दी
ते सवकास जेंवदीत
दाट अुलोंव दीत
तांचो हासो
तांची बोब
सगी राजाकूय आयकों दी
बटलेरामा
तूं मात्र
वगो राव हां !
तुज्ये कुमाद्रीन
पेंकटाक खोवोवन हाडल्लो
कंट्री मार
तिकाय अिल्लो
वोतून दी
तुमी मात्र
कुजना भितर
सुण्या माजराचो
खेळ खेळ नाकात
पाद्रिचें जेवण
जाता वरेग
सोसणिकायेन बसा
'लावदाते' म्हणच्या आदीं
अेप्पलां, केळीं
आनी मुसुंब्यो
व्हरून दी
ते अुठतना

तांकां हून अुदक
साबू आनी तुवालो दी
चिरुटां सिगरेटी
आनी काडियां पेटोय दी
बटलेरामा आतां तूं
आनी तुजी कुमाद्र
हळू मेजा लागीं वचा
पाद्रिनी खावन सोडल्लें
पुरा तुमकांच गा
पुरा तुमकां !
त्या दिसा
तुज्या विगाराक
लेखच कळना गा
काजितोर तुजे लागीं
खंडीत लेख विचारी ना
पूण बटलेरामा
अेक अुगडास दवर
मार्द्रिची मात्र
बिरमत चिंतून
तांकां मेजार जांव
कुजनांत जांव
रीग दी नाका
तीं आयल्यार
जेवणाचें मेजय खाली
कुजनांतलीं कुंडलींय खाली
आणी तुजें पोटय खाली !

## म्हज्या मोर्नाच्या दिसा

आमच्ये जिण्येंत
अधीक संतोस भरीत दीस
खंयचो म्हण विचारल्यार
पाद्री म्हणता
ओडदिचो
माद्र म्हणता
प्रोफेशनाचो
मिरण म्हणता
काजाराचो
बटलेर म्हणता
पयल्या कुमगाराचो
म्हजी होकल म्हणता
जल्माचो
आनी हांव म्हणतां
मोर्नाचो !
कित्याक
हांव मेल्ल्या दिसा
आपय नासतां सयरे येतात
मर्याद दिली ना म्हण
आग्यांच्या पिला परी
फुसफुसचे दायजी गोत्री
सोरो दिलो ना म्हण

पाटल्यान अुलोंवचे
बेबदे, लेंवटे
मान दिलो ना म्हण
मुरमुरचे मावळे बापले
वाडचाक सांगलें ना म्हण
वाद मांडचे
लुवाद, गुरकार
आनी तांच्या
बकऱ्यांचो हींड
म्हज्या मोर्नी दिसा
सोन्यान भरलेलीं
पोटां घेवन
थाऱ्यार नासल्ल्यो
तकल्यो घेवन
हातीं कोंतां
मणियो गळोवन
तोंडान
सासणाचो विशेव
मागचो पळेतना
म्हाका हासोंक
येता कोण्णा !
आनी त्यो
वाडचांतल्यो बायल्यो
घडचे घडचे
वाती जळोवन

घडचे घडचे
मुसांक धांवडावन
घडचे घडचे
म्हज्या मुसकरा वयलो
तुवालो काडतना
म्हाका कितली लज
भोगता कोण्णा !
म्हज्या अत्म्याक
अेक खण
तेर्स भेटोवन
सिसरिचीं दुखां गळोवन
भितरल्या कुडाक वचोन
चेंबांत कांय
अुरलांगी म्हण
पळेंवच्यो बायल्यो
अुण्यो नांत !
नारला रोसाचें
न्हाण न्हावन
हांव नितळायेन
न्हिदोन आसतां
नाका नाका म्हळचारी
म्हज्या हातांत
व्हडलो रुकाडाचो
खुरीस चेपून
काळ्या मणियांचें

व्हडलें कोंत
कैद्याक खोडो घाल्ले परी
म्हज्या हातां भोंवती
रेवडायतना
म्हाका कितल्यो
कुचुल्यो जातात कोण्णा !
म्हज्या मोर्नाचो दीस
भारी संतोसाचो
बेंड कोंफ्र
पाद्री माद्री
आमच्या घरा बागलार
होकलेक सैत
जड जांवचीं तितलीं
फुलां, रीद
संवसार सगळो
परमळान भरचे तितलो
धूंप, सेंट, अगरबत्ती
म्हज्ये पतिणेन
आनी भुरग्यांनी
आंगार पडोन
अुम्यांचो शिवोर
शिंपतना
म्हजे पोले
कितले मिरमिरतात कोण्णा !
म्हज्ये पेटेक

दोगांनी खांद मारून
पुरशांवा संगी
अिगर्जेक पावतच
घांटी आनी मीस !
पेटेंत न्हिदल्ल्या म्हजेर
निमाणी दिष्ट घालूंक
अुरडोंची भुरगीं
सिमित्रेक पावतच
बिरिबिरी पावसाक
आल्तार भुरग्यान
धरलेल्या सत्रे पोंदल्यान
पाद्री म्हजेर
आगमेंत अुडयतना
म्हाका कितलें
हींव खाता कोण्णा !
बायले भुरग्यांनी
आनी लागशिल्या मनशांनी
निमाणे कीस दितना
दोळयांत म्हज्या
दुखां भरतात कोण्णा !
पेटेचें फोळें धांपून
खिळे मारतच
हांव सर्वांक
आदेवस मागतां
म्हजी पेट दोन्यांचेर

फोंडांत देंवयतना
पाळण्यांत घलल्लो
अुगडास येता कोण्णा !
फोंडाच्या गर्भांत
पेट तेंकतना
‘ मार गेली ’ म्हण
पाद्रीन अेक खोरें
माती अुडयतना
म्हजें काळीज
परत धडधडोंक
लागता कोण्णा !
अुप्रांत
माती फातर
वाती फुलां
फोंड भरोन येतना
म्हाका चड आनी चड
संतोस आनी समाधान
कित्याक ह्या संवसारा थावन
आज वेगळो जालों म्हण
ह्या स्वार्थी मनशां थावन
निरतंर पैस रावलों म्हण
धुळिंतल्या बिलियांतर कणा मधें
हांव ‘ अेक ’ जालों म्हण !

# कविंची ओळख

## स्टेन अगेरा

| | | |
|---|---|---|
| जल्म | : | ३-५-१९६१ |
| जल्माचो गांव | : | मुलकी, दक्षीण कन्नड जिल्हो |
| शिकप | : | B. Com. |
| साहित्य वावर | : | कथा, लेख, नाटक, कविता<br>कलाकार--आकाशवाणी, मंगळूर. |
| पत्तो | : | Stan Ageira,<br>Shambavi Garden House<br>Near Old Bus Stand,<br>Mulky – 574 154<br>Karnataka |

## देवाधीन फादर पौल लुवीस बोतेल्हो

जल्म : १८-८-१८९२

मरण : १७.११.१९७४

जल्माचो गांव : कुंदापूर, दक्षीण कन्नड जिल्हो

लेखणी नांव : पी. अेल. बी.

साहित्य वावर : लेख, कविता, नाटक, धार्मीक गितां

कोंकणी पुस्तकां : १ पुलगत्रितल्या अत्म्यांचो म्हयनो (धार्मीक)

२ आवयांचो पात्रोन सांत जेरार्द माजेल्लाची जिणी

३ बाळ आलेस (नाटक) ; देख दैवीक (नाटक)

४ "पी. अेल. बी. चो काव्यां झेलो" (हो कविता संग्रह दोन आवृत्तीन छापला– १९६० आनी १९६८)

## चार्लस फ्रान्सीस डी ' कोस्टा

जल्म : १०-१०-१९३१

जल्माचो गांव : मंगळूर

लेखणी नांव : सी. ॲफ. डी ' कोस्टा

साहित्य वावर : कोंकणी कथा, कविता, लेख, नाटक
कलाकार–आकाशवाणी, मंगळूर.
" जिवीत " पत्राचो संपादक
कोंकणी पत्रकार

कोंकणी पुस्तकां :

१. मेल्लें (कथा) १९४९
२. पैणाऱ्यांचो अिष्ट (सांताची जिणी) १९५४
३. तरने तरने मोरने (नाटक) १९७३
४. सुणे माजर हासता (नाटक) १९७७

पत्तो : C. F. D' Costa
Prime Press
Second Bridge
Jeppu
Mangalore – 575 001

## आंब्रोज डी' सोजा

जल्म : १६-१२-१९४३

जल्माचो गांव : किन्निगोळी, दक्षीण कन्नड जिल्हो

लेखणी नांव : अमृत, किन्निगोळी

शिकप : B. E.

साहित्य वावर : कविता

पत्तो : Ambrose D' Souza
Prasanna Building
4th Floor, Flat No. 34
Nesbit Road
Mazagaon,
Bombay – 400 010

## चार्लस डी ' सोजा

जल्म : १०-९-१९४९

जल्माचो गांव : मंगळूर

लेखणी नांव . चार्ली सोज, येय्याडी

साहित्य वावर : कथा, कविता, विनोद लेख
कलाकार–आकाशवाणी, मंगळूर,
**राखणो** सातोळच्याचो सहायक संपांदक

पत्तो : Charles D' Souza
D' Souza Sadan
Yeyyady, Konchady P. O.
Mangalore – 575 008

## लियो जॉन डी ' सोज़ा

| | |
|---|---|
| जल्म | : ६-५-१९३४ |
| जल्माचो गांव | : मंगळूर |
| लेखणी नांव | : काव्यदास, लियाब, दुमींग माम |
| शिकप | : B. A., B. Ed., राष्ट्र भाषा विषारद |
| साहित्य वावर | : कोंकणी कथा, लेख, नाटक<br>कानडी कविता, लेख, पुस्तकां<br>कलाकार–आकाशवाणी, मंगळूर.<br>CNI, SAR NEWS हांचो बातमीदार, पत्रकार<br>"राक्णो" पत्राचो २० वरसां सहायक संपादक |
| कोंकणी पुस्तकां | : १. लिमाचो भुरगो (कथा)<br>२. मार्सेलिनो (कथा)<br>३. जेजुच्या मोगाची ल्हान वाट (धार्मीक)<br>४. ध्यानेस्त जिण्येचें हात पुस्तक (धार्मीक)<br>५. पुता पाटीं ये (कादंबरी)<br>६. मोगाचो अुजो |
| पत्तो | : Leo D' Souza<br>P. O. Box 5300<br>Bahrain |

# सिलवेस्टर डी ' सोजा

| | | |
|---|---|---|
| जल्म | : | ६-२-१९४१ |
| जल्माचो गांव | : | मडंत्यार, दक्षीण कन्नड जिल्हो |
| लेखणी नांव | : | शिलानंद प्रभू<br>सिलवेस्टर डी ' सोजा, मैसूर |
| शिकप | : | M. A. |
| साहित्य वावर | : | कोंकणी कथा, कविता, लेख, कादंबरी,<br>कानडी कथा, कविता, लेख<br>कलाकार–आकाशवाणी, मंगळूर |
| कोंकणी पुस्तकां | : | १. अपरिचीत (कथा संग्रह) १९८१<br>२. अमर त्याग (कादंबरी) १९८४<br>३. हेड्डा दुमगाच्यो काणियो (लोक साहित्य) १९८४ |
| पत्तो | : | Sylvester D' Souza,<br>'Sheela' No. 13<br>North of Gokulam III Stage<br>Mysore– 570 002. |

## वलोरियन डी ' सोजा

| | | |
|---|---|---|
| जल्म | : | २७-७-१९४७ |
| जल्माचो गांव | : | वग्ग, दक्षीण कन्नड जिल्हो |
| लेखणी नांव | : | वल्ली, वग्ग |
| साहित्य वावर | : | कथा, कविता, लेख, रेडियो नाटक<br>कलाकार–आकाशवाणी, मंगळूर, व मुंबय |
| पत्तो | : | Valerian D' Souza<br>' Lourdes '<br>340 Brindavan Extn.<br>Mysore– 570 020 |

## रॉन लुवीस

| | | |
|---|---|---|
| जल्म | : | २२-९-१९६० |
| जल्माचो गांव | : | मंगळूर |
| लेखणी नांव | : | विशुकिरण |
| साहित्य वावर | : | कोंकणी कथा, कविता, विनोद लेख |
| पत्तो | : | Ron Lewis<br>No. 22/7 36/1 Second Floor<br>Iyyanna Setty Layout<br>Mysore Road.<br>Bangalore– 560 026 |

## देवाधीन लुवीस मस्करेन्हस

जल्म : १-२-१८८७

मरण : २३-७-१९६१

जल्माचो गांव : मंगळूर

साहित्य वावर : कोंकणी लेख, कविता, नाटक
१९१२ वरसा जल्माल्ल्या **दिवें** पत्राचो
पयलो संपादक.

## फादर वलेरियन मेंडोन्सा

जल्म : ९-१२-१९४९

जल्माचो गांव : शिरवां, दक्षीण कन्नड जिल्हो

शिकप : B. Sc., M. A., Commerce (Diploma)

साहित्य वावर : कविता, धार्मीक गितां
कानडी भक्तीक गितां
कलाकार–आकाशवाणी, मंगळूर

पत्तो : Fr. Valerian Mendonca
Milagres Church
Mangalore–575 001

## देवाधीन फा. सिलवेस्टर मिनेजस

| | | |
|---|---|---|
| जल्म | : | २९-३-१८९४ |
| मरण | : | २४-११-१९६८ |
| जल्माचो गांव | : | मंगळूर |
| लेखणी नांव | : | सी. मी. |
| साहित्य वावर | : | लेख, कविता, कथा, गितां<br>राखणो पत्राचो पयलो संपादक, १७ वरसां |
| कोंकणी पुस्तकां | : | ८० प्रास चड अुजवाडाक आयल्यांत<br>१. सोम्याचो पाशांव (धार्मीक)<br>२. क्रिस्ताचो पाटलाव (धार्मीक)<br>३. मऱ्येचो झेलो (धार्मीक)<br>४. कोंकणी-अिंगलेज शब्दकोश |

## जॉन बी. मोरायस

| | | |
|---|---|---|
| जल्म | : | १९३३ |
| जल्माचो गांव | : | निड्डोडी, दक्षिण कन्नड जिल्हो |
| लेखणी नांव | : | जे. बी. मोरायस |
| साहित्य वावर | : | कोंकणी कथा, कविता, लेख, कादंबरी<br>कलाकार--आकाशवाणी, मुंबय |
| कोंकणी पुस्तकां | : | १. रोमियो जुल्येट १९५४<br>२. नवी होकल (कविता) १९७७<br>३. कोशेंडतान केल्ली खून (कथा) १९८० ह्या पुस्तकाक कोंकणी भाषा मंडळ, गोंय अिनाम मेळ्ळां.<br>४. मंगळुरचीं अुज्वल रत्नां (व्यक्ती परिचय) १९८३<br>५. जिवन तुफान (कविता) १९८४ |
| पत्तो | : | J. B. Morias<br>Convent View Housing Society<br>13 Ritz, Chembur<br>Bombay– 400 071 |

## प्रताप नायक, जे. स.

| | | |
|---|---|---|
| जल्मो | : | २४-२-१९५१ |
| जल्माचो गांव | : | कुंदापूर, दक्षिण कन्नड जिल्हो |
| शिकप | : | B. Sc., B. Ed., B. Phil., B. Th., M. A. ( भाषा विज्ञान ) |
| लेखणी नांव | : | सांता क्लॉस |
| साहित्य वावर | : | कोंकणी कथा, कविता, लेख, नाटक, गितां अिंगलीश कविता, लेख |
| कोंकणी पुस्तकां | : | १. रंगीत संगीत (गितां) १९७६<br>२. बाळकांचें राज (लोक गितां) १९७६<br>३. जिवितांतलीं घडितां (कविता) १९८०<br>४. काजुले (कविता) १९८३ |
| पत्तो | | Pratap Naik, S. J.<br>Snehasadan<br>250 Shaniwar Peth<br>Pune – 441 030. |

## अेडवर्ड नजरेत

जल्म : १०–७–१९५८
जल्माचो गांव : शिरवां, दक्षिण कन्नड जिल्हो
शिकप : M. B. B. S.
साहित्य वावर : वैद्यकीय विषयांचेर कोंकणी लेख, कथा, कविता
पत्तो : Dr. Edward Nazareth
Goretti Hospital
Kallianpura – 576 114
Karnataka.

## जेराल्ड पिंटो

जल्म : १९५७
जल्माचो गांव : कुद्रिपदवू, दक्षीण कन्नड जिल्हो
लेखणी नांव : जेरी, निड्डोडी
शिकप : M. Sc., Journalism (Diploma)
साहित्य वावर : कोंकणी कथा, कविता, लेख
पत्तो : Gerald Pinto
Milagres College
Kallianpura – 576 114
Karnataka

## जोस्सी ओ. पिंटो

| | | |
|---|---|---|
| जल्म | : | २२-१-१९६६ |
| जल्माचो गांव | : | किन्निगोळी, दक्षीण कन्नड जिल्हो |
| लेखणी नांव | : | शांती प्रिया, किन्निगोळी |
| साहित्य वावर | : | कथा, कविता, लेख, कलाकार--आकाशवाणी मंगळूर, कानडी लेख |
| शिकप | : | P. U. C. |
| पत्तो | : | Jossy E. Pinto<br>" Pinto Villa "<br>Battangodi House<br>Kinnigolli P. O.<br>Karnataka 574 150. |

## ल्यॅनसेलेट पिंटो

| | | |
|---|---|---|
| जल्म | : | १३-१२-१९५५ |
| जल्माचो गांव | : | किन्निगोळी, दक्षीण कन्नड जिल्हो |
| लेखणी नांव | : | ल्यॅन्सी पिंटो नायक |
| साहित्य वावर | : | कोंकणी कथा, कविता, लेख, नाटक |
| पत्तो | : | Lancelot Pinto<br>Pinto Compound<br>Neeradpe, Kulshekar P. O.<br>Mangalore – 575 005. |

## विनसेंट पिंटो

जल्म : ११-८-१९५६
जल्माचो गांव : मंगळूर
लेखणी नांव : विनसी पिंटो, बेंगळूर
साहित्य वावर : कोंकणी कविता
पत्तो : Vincent Pinto
84 Kempanna Garden
Ganganhalli
Bangalore – 560 032.

## वॉल्टर सिरील पिंटो

जल्म : १९५९
जल्माचो गांव : कुद्रिपदवू, दक्षीण कन्नड जिल्हो
साहित्य वावर : कोंकणी कथा, कविता, लेख

## कुमारी सिंतिया क्वाड्रस

जल्म : १-४-१९६६

जल्माचो गांव : बैलूर, दक्षीण कन्नड जिल्हो

शिकप : P. U. C.

साहित्य वावर : कविता

पत्तो : Sinthiya Quadros
Karmbujaddu House
Bailur P. O.
Karkala Taluka
Dt. Dakhshina Kannada,
Karnataka

## फ्रान्सीस सलदान्हा

जल्म : ७-११-१९३१

जल्माचो गांव : मंगळूर

शिकप : M. A.

साहित्य वावर : कोंकणी लेख, कविता, कथा

कोंकणी पुस्तकां : १. सताच्ये सोधनेर (कथा)

२. आशेल्लें स्वपाण (कथा, दोन भाग)

३. ज्ञान ज्योती (सांगणियो)

४. वेळ येतना (कथा)

५. शैलाचो फुडार (कथा)

६. ट्रिजाचें कारभार (कथा)

७. व्होनी देराची (कथा)

८. मधूर कोंकणी काव्यां (१९७६ वरसा कोंकणी भाषा मंडळ, गोंय अिनाम मेळ्ळां)

९. दांटिल्लें दिवें (कथा)

१०. ॲस्टेटाचो रायटर (कथा)

११. हांव तुमकां पैस करचीं ना (कथा)

१२. वाच्यां आनी हासयां (विनोद)

१३. हांव चुकोन पडलों (कथा)

१४. डोराची भूल (कथा)

१५. मोगाची दाव (कथा)

१६. अुत्तीम काणियां झेलो (कथा)

१७. मोगाचें अमाल (कथा)

पत्तो : Francis Saldhana
Padavinangady House
Konchady P. O.
Mangalore – 575 008

## जॉन बी. सिक्वेरा

जल्म : २-६-१९३७

जल्माचो गांव : पांगळा, दक्षीण कन्नड जिल्हो

लेखणी वांव : जे. बी. सिक्वेरा

साहित्य वावर : कोंकणी कथा, कविता, लेख
कलाकार – आकाशवाणी, मुंबय

कोंकणी पुस्तक : १: सलवणेंत जीख (कादंबरी) १९५७
२. दौत कितली (लेख संग्रह) १९६२
३. बोंबय केनरा कॅथलीक डिरेक्टरी १९७५
१९६८ वरसा **वावऱ्याडचांचो ताळो**
मासिकाचो संपादक

पत्तो : J. B. Sequeira
4 Zainab Villa
362 Senapati Bapat
Matunga West
Bombay – 400 016

## सिरील जी. सिक्वेरा

जल्म : ८-३-१९५१

जल्माचो गांव : ताकोडे, दक्षीण कन्नड जिल्हो

लेखणी नांव : सिज्येस ताकोडे

शिकप : B. Phil.

साहित्य वावर : कोंकणी कथा, कविता, नाटक, लेख, कादंबरी

: कलाकार–आकाशवाणी, मंगळूर

कोंकणी पुस्तकां :

१. पत्तेदाराचें साहस (कादंबरी) १९६७
२. खुन्येगाराची खून (कादंबरी) १९७०
३. अिडियाचो आपोस्तल (धार्मीक) १९७२
४. वेकफिल्डाचो विगार (कादंबरी) १९७३
५. आधुनीक खुरसा वाट (धार्मीक) १९७४
६. जिवन तुफान, १९७४
७. डॉन क्विकसोट (कादंबरी) १९७७
८. दुखां, १९७७
९. फुगेटचो (विनोद लेख) १९७८
१०. आबोलिना (कादंबरी) १९७८
११. फोकणां, १९७९
१२. ग्रहचार १९७९

**राखणो** सातोळ्याचो सहायक, संपादक, कोंकणी पत्रकार

ते
: Cyril G. Sequeira,
Ashirvad
Takkode P. O.
Via Moodbidri
Karnataka – 574 227

# कठीण शब्दसंग्रह

| | | |
|---|---|---|
| अ | – | अव्यय |
| क्रिअ | – | अकर्मी क्रियापद |
| क्रिक | – | कर्मी क्रियापद |
| न | – | नपुंसकलिंगी नाम |
| पु | – | पुल्लिंगी नाम |
| स्त्री | – | स्त्रिलिंगी नाम |
| वि | – | विशेषण |
| क्रिवि | – | क्रियाविशेषण |

| | | |
|---|---|---|
| अकलास | (पु) | खंत |
| अंतरूंक | (क्रिअ) | मरूंक |
| अधुरें | (वि) | अर्दें–मुर्दें |
| अनंद | (पु) | आनंद |
| अब्ळे | (अ) | अजपाचो अुद्गार, पळे |
| अर्गां | (न. बहुवचन) | दिनवास |
| अस्कत | (वि) | अशक्त |
| अळे | (अ) | अजपाचो अुद्गार, पळे |
| आगमेंत | (न) | क्रिस्तांवानी वापरचें पवित्र अुदक |
| आंज | (पु) | देवदूत |
| आब | (पु) | आजो |
| आलबें | (वि) | बारीक |
| आवक | (न) | आवख |
| अीट | (पु) | सारें |

| | | |
|---|---|---|
| अबीर | (पु) | चिखल |
| असको | (पु) | मांडी |
| ओट्टू | (अ) | सांगात |
| ऑडद | (स्त्री) | गुरू दिक्षा |
| करंदाय | (स्त्री) | बेजाराय, मानसीक त्रास |
| करनी | (स्त्री) | करणी |
| करियामणी | (स्त्री) | मंगळसूत्र |
| कर्न | | करून |
| कागद | (न) | पत्र, चीट |
| काजितोर | (पु) | सहायक पाद्री |
| काट | (पु) | कांठ |
| काणीक | (स्त्री) | भेट |
| कुमक | (स्त्री) | मजत |
| कुमगार | (पु) | क्रिस्त प्रसाद |
| कुमाद्र | (स्त्री) | क्रिस्तांव भुरग्याची धर्मरक्षकी |
| कुरोव | (पु) | मुकूट |
| कुर्पा | (स्त्री) | देवाची दया |
| केद | (पु) | चिखल |
| केप्पो | (पु) | भेरो |
| कोचोर | (पु) | बारीक कुडके |
| कोण्णाक | (अ) | कोणाकूय |
| कोंपरो | (पु) | मात्येचें व्हडलें आयदन |
| कोशेडत | (न) | अंतस्कर्ण |
| खंडीत | (वि) | नक्की, खातरी |
| खर्ग | (न) | संकष्ट |
| खुंटूंक | (क्रिक) | पाडूंक, तोडूंक |

| | | |
|---|---|---|
| गंजिप्राक | (न) | बानयान, कुडतो |
| गड | (स्त्री) | मेर, देग |
| गडंग | (न) | सोन्याचें दुकान |
| गादो | (पु) | शेत |
| गुंडाय | (स्त्री) | खोलाय |
| गुडो | (पु) | ल्हान दोंगर |
| गुरकार | (पु) | फुडारी |
| गूंड | (वि) | खोल |
| गोबळो | (पु) | कोप |
| ग्राद | (स्त्री) | देग |
| ग्रेस्त | (वि) | गिरेस्त |
| घडसूंक | (क्रिक) | जोडप |
| चमकूंक | (क्रिअ) | चलूंक |
| चिरपूट | (स्त्री) | बोटान मारून केल्लो आवाज |
| चील | (न) | पोती |
| चूड–कोतरू | (न) | झगडाळ चेडूं वा स्त्री |
| चेंबू | (पु) | तांबयो |
| चेरको | (पु) | चलो |
| जघन | (न) | कमर |
| जिबली खेळ | (पु) | ल्हान भुरग्यांचो अेक खेळ |
| डिस्पेन्स | (न) | सुटका, रजा, परवानगी |
| तरनो | (वि) | तरणो |
| तिमीर | (पु) | काळोख |
| तिर्प | (न) | नितिदारान दिल्लो निर्णय |
| तुपें | (न) | गिरेस्तकाय |
| तेसांव | (न) | अिरादो |

| | | |
|---|---|---|
| तोवूंक | (क्रिअ) | बावूंक |
| दोण | (स्त्री) | होडें |
| दोणकार | (पु) | होडेकार |
| दोतोर्न | (स्त्री) | धार्मीक शिकवण |
| धर्ण | (स्त्री) | धरणी |
| धर्न | | धरून |
| नाड | (पु) | गांव |
| नारकूट | (वि) | चाबल्यार कुडके जायना जावप |
| परनो | (वि) | परणो |
| परात | (पु) | मास रांदल्लो अेक प्रकार |
| पळेर | (पु) | फळांचें ताट |
| पून | (न) | पुण्य |
| पेचाडूंक | (क्रिअ) | साधन करूंक |
| पैण | (न) | प्रवास |
| पैणारी | (पु) | प्रवासी |
| फिरगज | (स्त्री) | अेक्ये अिगरजेच्या अधिकारा खाला येवपी क्रिस्तांव वठार |
| बटलेर | (पु) | मेस्त |
| बागील | (न) | दार |
| बांबय | (स्त्री) | पाळणें |
| बायपाठ | (क्रिवि) | तोंडपाठ |
| बाव | (स्त्री) | बाग, ओणव |
| बेट | (न) | दोंगराळ शेत |
| बेसोर | (पु) | त्रास |
| बैल | (न) | अुदक आसल्लें शेत |
| बोड | (न) | मातें |

| | | |
|---|---|---|
| बोर | (स्त्री) | हडचाच्या कुशीचें हाड |
| भेंडूंक | (क्रिक) | ठिका करप |
| भेतूंक | (क्रिक) | फोडूंक |
| माणको | (पु) | बेबो |
| मिरण | (पु) | पाद्रीक धार्मीक कान्यांत मजत करपी |
| मेट | (न) | पावल |
| मोगोर | (पु) | कानडी खारवी |
| मोसर | (पु) | नसाय |
| मोसरी | (पु) | नसाय करपी |
| मोर्न | (न) | मरण, मडें |
| रंगीत | (वि) | मधूर, रंगाळ |
| रचनार | (पु) | रचणार |
| राज | (न) | राज्य |
| राय | (पु) | राजा |
| रावळेर | (न) | राजाचें घर |
| रीद | (पु) | झेलो |
| रैत | (पु) | शेतकार |
| रोद | (पु) | चाक |
| लंच | (पु) | लांच |
| लावदाते | (न) | लातीन भाशेचें स्तुती गीत |
| लुवाद | (पु) | वाडयाचो फुडारी |
| लुसिफेर | (पु) | सैतानांचो फुडारी |
| लेख | (पु) | हिशोब |
| वरेग | (अ) | मेरेन |
| वायदो | (पु) | वेळ |

| | | |
|---|---|---|
| विणगो | (वि) | नागडो |
| वोर्ल | (न) | मात्यार घालचो पालव |
| सक्कड | (वि) | सगट |
| सक्त | (स्त्री) | शक्त |
| सब्द | (पु) | शब्द |
| समदीर | (पु) | दर्या |
| सर्ग | (पु) | स्वर्ग |
| ससी | (स्त्री) | रोंपो |
| साक्रिफीस | (पु) | बलिदान |
| सांत | (पु) | संत |
| सिमित्र | (स्त्री) | श्मशान भुमी (क्रिस्तांवांची) |
| स्पिरीत | (पु) | आत्मो |
| सैलाप | (पु) | स्तुती |
| सोंबूंक | (क्रिअ) | भरूंक |
| सोमी | (पु) | स्वामी |
| हंकार | (पु) | अहंकार |
| हणे–बरप | (न) | सवय, नशीब |
| हदा करूंक | (क्रिक) | तयार करूंक |
| हप्तो | (पु) | सुमान, आठवडो |
| हरदें | (न) | हड्डें, हर्डें |
| हरसूंक | (क्रिक) | स्तुती गावूंक |
| हस्त | (स्त्री) | हत्ती |
| हळ्ळी | (स्त्री) | ल्हान गांव |
| हातेर | (न) | हत्यार |
| होगळाप | (पु) | स्तुती |
| हागळीक | (स्त्री) | स्तुती |

# चुकावळ

| पान | वळ | चूक | सारकें |
|---|---|---|---|
| ७ | ९ | नेसतात | न्हेसतात |
| १७ | २ | तांचे | तांचें |
| २३ | १ | गुमट | घुमट |
| ४१ | २ | यावन | थावन |
| ४७ | १६ | बाडचाक | बावडचाक |
| ४८ | ४ | न्हंयो | न्हंयों |
| ५८ | १५ | तांतुयी | तांतुंयी |
| ६८ | ७ | लिखुनं | लिखून |
| ७३ | १३ | म्हळूळो | म्हळ्ळो |
| ७४ | २ | किते | कितें |
| ७५ | ७ | पर्यंत | पर्यंत |
| ९१ | ९ | जय | जंय |
| ९९ | २० | अुडयले | अुडयलें |
| १४८ | १० | गोबराळी | गोबराळीं |
| १५९ | ४ | अुभतां | अुभता |
| १६० | ३ | आमचे | आमचें |
| १६७ | १४ | सुर्या | सुर्य |
| १६८ | १४ | मनान | मानान |
| १७३ | ११ | किते | कितें |
| १७३ | २१ | पुरुष | पुरूष |
| १७७ | १८ | सियासपां | सियासणां |

रातची
तारां मेजची
आशा म्हजी
संपूर्ण जाती
सकाळीं तो सूर्य
उदेंवक पातल्लो
जाणयार !

—o—

जिवितांत
हांवें स्वप्नाय चलियेक
उमो दिल्लोना

देकून
जिवितांत उमो
दींवक आशेवंत्या
चलीयांक
एक बरी खबर
आज हांव मेल्या
उपरांत
म्हजे ओंठ
म्हजु सोपणांत आसतलें

" हाड चेडुवा बुडकुलो लकय तळचांत
म्हजो तुजो मोग जालां काजच्या मळचांत. "

" घेतां जल्म आवयच्ये कुशीं, कितें तुवें हाडलेंय
जियेवन अितलीं वरसां, वेतना कितें व्हेलेंय ? "

" सांग म्हाका कोण तूं, सांग म्हाका कोण तूं ?
मळबाचेरी बसोताय, प्रितुमेरी नाचोताय. "

" नेंटी आसल्ली काल ती चली
जांटी कशी जाली ?
चेरक्यां संगी जिबली खेळल्ली
परकी जांवक ती पावली. "

" गोटचांत आसा पाडकुलो
गळचांत ताच्या खिळखिळो
नवरो म्हजो बाबुलो
लोण्येचो बुडकुलो. "